# नाडपूरची नाडकथा आनी
# पावसा-पावसा, यो रे यो ऽ

(भुरग्यांखातीर एकांकी)



मीना काकोडकार

# नाडपूरची नाडकथा

आनी

# पावसा-पावसा, यो रे, यो

(भुरग्यांखातीर एक आंकी नाटकुलीं)

मीना काकोडकार




दुर्गा प्रकाशन, मडगांव - गोंय

**Nadpoorchi Naaddkatha & Pavsaa-Pavsaa, Yo Re Yo...**
**नाडपूरची नाडकथा आनी पावसा-पावसा, यो रे, यो...**
**(One Act Plays for Children)**



पयली खेप : जुलै, २०१७

उजवाडावपी : सुरेश काकोडकार,
दुर्गा प्रकाशन,'श्रेयस', विद्यानगर कॉलनी,
११५८, विद्यानगर,
मडगांव-गोंय - ४०३ ६०१

छापपी : ओमेगा एन्टरप्राइझेस्
११५८, विद्यानगर,
मडगांव, गोंय ४०३ ६०१
फोन : २७५९५६८

मुखचित्र : चंद्रशेखर रांगणेकर

मोल : ₹ ८०.००

'नाडपूरची नाडकथा' ही एकांकिका राजमाता पद्मावती सौंदेकार हायस्कूल (बांदोडें-गोंय) हांणी कला अकादेमी, गोंय आयोजित आंतर-शालेय एकांकिका सर्तींत सादर केली आनी हे एकांकिकेक पयलें इनाम फाव जालें.

# नाडपूरची नाडकथा

## हातुंतलीं सवंगां

सूत्रधार - १

सूत्रधार - २

म्हाराज चंद्रसेन

धूर्तसिंग - प्रधान

काजरो -

साजरो -

बाबरो -

कपटसिंग - खजिनदार

बुदवंतसिंग

चार शिपाय -

संतोबा - घोड्यांचो वेपारी

सोना - ताची धूव (धा/बारा वर्सांची)

हीच उपरान्त सोनू जाता (चल्याचो भेस करता)

फित्रोजी - प्रधानाचो हस्तक

एक दोळो -

काळोजी -

फटोजी -

घोड्यांच्या भेसांत दोन भुरगे.

# नाडपूरची नाडकथा

(पड्डो उगडटा तेन्ना सरदाराच्या भेसांतले दोन भुरगे हातांत लांब बडयो घेवन मुसळाभशेन जमनीर आपटीत ठेक्यान गायत आनी पावलां घालीत स्टेजीर येतात. हे सूत्रधार. नाटकाचो intro करून ते नाटक सुरू करतात. तशेंच मर्दीं, मर्दीं येवन कथानक फुडें व्हरतात.

विंगेंतल्यान दावे वटेनच्यान 'ठक ठक ठो' करीत सूत्रधार स्टेजीर येतात आनी अेके कुशीक रावन म्हणटात).

सूत्रधार - ठक ठक ठो, बाबा – ठक ठक ठो
ठक ठक ठो, बाबा – ठक ठक ठो ।।
आयकात, आयकात लोकांनो,
काणी अजीबपुराची
चंद्रसेन राजाची आनी
ताच्या कारभाराची
ठक ठक ठो, बाबा – ठक ठक ठो
ठक ठक ठो, बाबा – ठक ठक ठो ।।
शाणो सुरतो आसून राजा
फकत न्हिदो काडी
धूर्तसिंग प्रधान ताचो
सगले प्रजेक नाडी
ठक ठक ठो, बाबा – ठक ठक ठो
ठक ठक ठो, बाबा – ठक ठक ठो ।।
आयकात, आयकात लोकांनो
काणी अजीबपुराची
चंद्रसेन राजाची आनी
ताच्या कारभाराची
ठक ठक ठो, बाबा – ठक ठक ठो

ठक ठक ठो, बाबा – ठक ठक ठो ।।

(सूत्रधारांचें गायन चालू आसतना नाटकांतलीं पात्रां सकयल वि क्रमवारीन स्टेजीर अेका फाटल्यान अेक ठेक्यार चलत येत रावतात. द वटेंतल्यान येवन उजवे वटेन भितर वतात. पयलीं काजरो-साजरो बाबरो-प्रधान धूर्तसिंग- राजा चंद्रसेन . (राजा झेमेत, झेमेत ठेक्य चलता. ताच्या माथ्यार तांबडी जरीची सत्री धरिल्लो शिपाय) – खजीनद कपटसिंग – बुदवंतसिंग – अेक दोळो – काळोजी – फटोजी- सोना संतोबा (घोड्यांक घेवन) बाकी उरिल्लीं पात्रां (फित्रोजी शिपाय बी) सगलीं पात्रां विंगेंत भितर वचसर सूत्रधार 'ठक ठक ठो' करीत रावतात काळोख जाता. उजवाड जाता तेन्ना राजाचो दरबार. राजा चंद्रसेन झेमे आसनार बसला. ताचेर छत्र धरून येदोळचो शिपाय फाटल्यान उबो. राजाचे उजवे वटेन प्रधान धूर्तसिंग उबो आसा. दावे वटेन खजीनद कपटसिंग. सामकें फुडें स्टेजीच्या दोनय वाटांनी अेक अेक शिपाय)

दोनय शिपाय – (व्हडल्यान) म्हाराज चंद्रसेनाचो विजय जावं!

(राजा कच्च करून आंग काडून सारको बसता. अर्दकुटो जागो जाला)

राजा – धूर्तसिंग, दरबार भल्लो?

प्रधान – हय म्हाराज.

राजा – पूण हांगा तर कोणच लोक दिसनात.

प्रधान – म्हाराज, राज्यांत सगलें वेवस्थीत चल्लां. कोणाचीच कसली कागाळ ना कसलींच गाराणीं नात. फकत कुंदनपूरच्या लोकांची अेक विनवण आयल्या.

राजा – (झेमेत) कसली ती?

प्रधान – म्हाराज, अंदू कुंदनपुरांत दुकळ पडिल्ल्यान लोकांचे हाल चल्ल्यात.

कपटसिंग – प्रधानजी, म्हाराज ऽऽ !

राजा – (कच्च करून जागो जाता) धूर्तसिंग, कितें सांगपाचें तें सडसडीत सांग.

प्रधान – म्हाराज, कुंदनपुरच्या लोकांची उपासमार चल्ल्या. तांकां अन्न-वस्त्राची सामकी गरज आसा. तें तांकां धाडूंक जाय.

राजा – धाडात-धाडात.

प्रधान - म्हाराज, दुकळाक लागून थंयच्च्या लोकांची येणावळय बंद जाल्या ते खातीर तांकां पैशे धाडपाचीय गरज आसा.

कपट - प्रधानजी, म्हाराज परते न्हिदून पडले.

प्रधान - वा! वा! ते अशे परते, परते न्हिदतात हेंच तर आमच्च्या फायद्याचें.

कपट - (ल्हवच) तें म्हाका सांगूंक जाय? तुमी फकत तांदळाचे कितले साक कुंदनपुरांत धाडपाचे आनी कितले भायले भायर विकपाचे, तितलें म्हाका सांगात.

प्रधान - श्शू ऽऽ ! कपटसिंग, ह्यो गजाली चार चौगांत करपाच्यो नासतात. हें सगलें आमी थंडसाणेन बसून उलोवया.

कपट - खरें तुमचें प्रधानजी. कुंदनपुरांत कितले पैशे धाडपाचे तें म्हाराजांक विचारात.

प्रधान - (मोठ्यान) म्हाराज ऽऽ

राजा - (जागो जाता) कितें जालें?

प्रधान - म्हाराज, कुंदनपुरांत चार पेट्यो म्होरो धाडचेली परवानगी दियात.

राजा - दिली. (झेमेंत हेवटेन, तेवटेन पळयत) धूर्तसिंग , म्हाका अेक सांग–

प्रधान - आज्ञा म्हाराज.

राजा - हालीं बुदवंतसिंग दरबारांत कित्याक येना?

प्रधान - (गडबडटा) बुदवंतसिंग? म्हाराज... ताचें कितें आसा जाणा... तो...

कपट - प्रधानजी, हुमको करूं नाकात. म्हाराज न्हिदून पडले.

प्रधान - (बेजारून) इतले झेमेंतात पूण दर फावटीं म्हाराज त्या उंवाळिल्ल्या बुदवंतसिंगाची चौकशी केले बगर रावनात.

कपट - प्रधानजी, म्हाका अजाप दिसता. तो बुदवंतसिंग राज्यांतल्यो सगल्यो गजाली म्हाराजांक सांगून तांकां शिटकायना कसो?

प्रधान - (हांसत) ताणें सुरवेक तसो खूब प्रयत्न केलो. पूण ताच्या सगल्या हस्तकांक हांवें ह्या ना त्या कारणान फांशीची ख्यास्त दिली. आतां आमच्च्या राज्यांत प्रामाणीक लोक मेळप कठीण जालां. चडशे सगले नागवणे. बुदवंतसिंग कोणाचेर विश्वास दवरतलो?

कपट - (ल्हवच) शिवाय आतांचो राजवैद्यय बी तुमचे मर्जेतलो!

प्रधान – हय तर. ताकाच लागून म्हाराजांक अशें न्हिदेचे गुर्मेत दवरप म्हाका शक्य जालां. म्हाराजांक न्हिदेचें वखद दित रावपाचें काम म्हजो खास हस्तक फित्रोजी करता. हे न्हिदेक लागून तांची मती भ्रष्ट जाल्या; राज्याचेर पूर्ण दुर्लक्ष जालां. कोण कोणाक फटयता; कोण कोणाक नागयता तांकां कांयच कल्पना ना.

कपट – सामकें खरें. लोक तांचेर विटत जाल्यार तुमी राजा जावंक कळाव लागचो ना.

प्रधान – तुज्या तोंडांत साखर पडूं. हांवय तेच संदेची वाट पळयतां.

कपट – (मोठ्यान) भावी म्हाराजांचो विजय जावं.

राजा – (कच्च करून जागो जाता) कितें जालें? कितें जालें?

प्रधान – कांय ना. सगलें जुस्ता जूस्त जालें म्हाराज.

राजा – जालें?

प्रधान – हय म्हाराज. दरबार बरखास्त करात.

राजा – (व्हडल्यान) दरबार बरखास्त!

सगळे – म्हाराजांचो विजय जावं!
(काळोख जाता).

***

## प्रवेश दोन

(उजवाड जाता तेन्ना अजीबपूरच्या एका नाक्यार काजरो, साजरो आनी बाबरो चकाटां मारीत बसल्यात)

साजरो – कितेंय सांगात, कश्ट करी नासतना पैसो मेळटकीर जिवाक बरें ऽऽ दिसता.

काजरो – ही सगली प्रधान धूर्तसिंगाची कृपा. जेन्ना म्हाराज जागे आसताले तेन्ना आमचे सारकेल्यांक उपास काडचे पडटाले.

बाबरो – पूण अकस्मात तांकां हो निद्रारोग लागलो आनी आमचें फावलें. कोणाकय नागय, विचारपी कोण ना.

साजरो – धूर्तसिंग म्हणटा–हांवय खातां, तुमीय खायात. अळी मिळी गूपचिळी. (तिगूय व्हडल्यान हांसतात).

काजरो - लोक आतां आमच्या अजीबपुराक नाडपूर म्हणून वळखतात.

बाबरो - वळखूं बाबडे! आमचीं बोल्सां भरतकीर जालें!

(विंगेंतल्यान घोड्यांच्या टापांचो आवाज आयकूंक येता. काजरो उबो रावन दोळ्यांर हात धरून भितर पळयता)

काजरो - आरे, कोण तरी परदेशी येतात. काय दिसता.

बाबरो - गिरायक आयलें काय कितें रे?

साजरो - हय, हय! घोडे घेवन येतात. (खोशेन) वा वा वा!

काजरो - चलात, चलात. म्हजी सदांची युक्त करतां. बेगीन भितर वचुंया. कुशीनचो अेक फातर हाडून मदींच वाटेर दवरता. हातांतले पिशवेंतल्यान अेक सुकिल्लो बेबो काडून थंय उडयता. सगले बेगिबेगीन भितर वतात.)

(संतोबा आनी ताची धूव सोना दोन घोडे घेवन हेवटेन, तेवटेन पळयत स्टेजीर येतात).

सोना - बाबा, आमी खंय पावल्यांत कांयच कळना.

संतोबा - सोना, आमकां सगल्यांनी अस्तंते कडल्या राज्यांत वचात, थंय घोड्यांक बरी दर येतली म्हणून सांगिल्लें. पूण वाटेर मदींच आयिल्या वादळाक लागून आमी खंय पावल्यांत ताची कांयच कल्पना येना.

सोना - खंयय पावूं. आमचे घोडे विकून भरपूर दुडू मेळ्ळ्यार पुरो.

संतोबा - खरें गो तुजें. पयशे मेळ्ळ्यार आमचे खूबशे प्रस्न सुट्टले (सुस्कारो सोडटा).

सोना - बाबा, तूं बेठोंच हुसको करूं नाका. सगलें बरें जातलें.

(उलयतां, उलयतां दोगांय घोड्यांक घेवन चलूंक लागतात. इतल्यांत संतोबा फातराक आपटून धब्ब करून सकयल पडटा.)

संतोबा - आवय गेऽऽ कमर धाडावलें गो सोना. बोटय फुटलें.

(सोना बेगिबेगीन बापायक उठोवपाचो यत्न करता. म्हणटासर भितल्ल्यान काजरो धांवत येता आनी संतोबाक उठयता. संतोबा पिरंगत, कुटत उबो रावता आनी काजऱ्याक देव बरें करूं म्हणटा. इतल्यांत काजरो जमनी वयल्या बेब्याक उखलता आनी हुयेली मारून रडूंक लागता.)

काजरो – म्हज्या अपुरबायेच्या बेबुल्या ऽऽ गेलो रे सोडून तूं म्हाका! म्हजे हांडीवयलो उडक्यो मारीत सकयल कित्याक देंवलो रे ऽऽ पोरा? देंवलो तो देंवलो, हे वाटेर कित्याक येवन रावलो रेऽऽ? रावलो तो रावलो ह्या जड्ड्यान तुका कित्याक चिडून माल्लो रे ऽऽ? (संतोबा आनी सोना काचाबूल जावन ताका पळयतात.

सोना – आगा, हो येदोसो बेबो मेलो जाल्यार तूं इतलो आकांत कितें करता? म्हज्या बापायचें कमर धाडावलें, बोट फुटलें ताचें कांयच ना?

काजरो – (आनीकय व्हडल्यान रडटा) म्हज्या बेबुल्याक येदो ऽऽ सो बेबो म्हणटा? म्हज्या माणकुल्या बेबुल्याक तूं येदोऽऽसो म्हणटा? म्हज्या माणकुल्या बेबुल्या रे ऽऽ ह्या दुश्ट मनशांक आपले करणेचो मात लेगीत पश्चात्ताप जाल्लो दिसना. तुका चिड्डून माल्लो; वयल्यान हीं मनशां पळय कशीं तोंड वयर करून उलयतात.

संतोबा – (समजायत) हें पळयात, हांवें मुद्दाम काय तुज्या बेब्याक चिड्डूं ना. हांगा हो फातर मदींच रस्त्यार पडला. ताका आपटून हांव पडलों आनी तुजो बेबो चिड्डुला आसतलो.

काजरो – (रडत) आसतलोऽऽ? आसतलो न्हय. चिड्डुलाच तो. तात्काळ प्राण गेलो पोराचो. कोणूय धांवन येतात रे. म्हज्यान हें दुःख सोसूंक जायना. (ताच्यो हुयेली आयकून पयलींच थारिल्लेप्रमाण साजरो आनी बाबरो धांवन भायर येतात).

बाबरो – कितें जालें? कितें जालें?

साजरो – काजऱ्या, तूं रडटा कित्याक?

काजरो – पळयात रे. म्हज्या अपुरबायेच्या बेबुल्याक ह्या मनशान चिड्डून माल्लो.

बाबरो – आरे रे ऽऽ!

साजरो – बेबुलो मेलो ऽऽ? आ रे रे ऽऽ!
(दोगूय जाण रडूंक लागतात).

सोना – बाबा, हें पिशांचें राज्य काय दिसता. एका बेब्याक लागून केदो हो आकांत!

संतोबा – शशूऽऽ! ओगी राव. परकी कडेन पावतकीर ओग्गी रावन कितें घडटा तें पळोवप शाणेपणाचें!

सोना – पूण बाबा, म्हाका सगळीं पिशेपणाच दिसतात. (काजऱ्या म्हऱ्यांत वता) हें पळय, ह्या मरतुकड्या बेब्याक लागून...

(मरतुकडो हें उतर आयकून काजरो आनीकय आकांत करता.)

काजरो – मरतुकडोऽ? म्हजो सुंदर बेबुलो मरतुकडो ऽऽ?

साजरो – मरतुकडो? ताका मारून ताचे तुकडे तुकडे तुमी आतां केल्यात.

संतोबा – आसूं, आसूं रागार जावं नाका.

सोना – पूण बाबा, पळय मरे तरी. तो बेबो सुकून भातकटो जाल्लो सो दिसता. केन्ना मेल्लो देव जाणा!

काजरो – (रडत) पळयात रे ऽऽ. ताणें बेबुल्याक भातकटो म्हळो ऽऽ!

संतोबा – आसूं ऽऽ आसूं ऽऽ ल्हान तें.

बाबरो – तें ल्हान. पूण तूं जाणटो मरे? तुवें कसो चिड्डिलो ह्या काजऱ्याच्या बेबुल्याक

संतोबा – ना रे बाबा, हांवें ताका मुद्दाम चिड्डूंक ना. हो फातर मदीं आशिल्यान हांव ताका आपटून पडलों.

(स्वता फातर काडून कुशीन उडयता)

साजरो – तुवें केदें महापातक केलां जाणा तूं?

संतोबा – (मान हालयत) ना.

साजरो – ह्या काजऱ्याक भुरगेंबाळ ना. देखून ताणें ह्या बेबुल्याक पोसको घेतिल्लो.

सोना – बेब्याक पोसको?

बाबरो – तातूंत कितें जालें? कोणय कोणाक पोसको घेवंक शकता. फाल्यां ह्या साजऱ्याच्यान जल्ल्याक पोसको घेवं येता. ना जाल्यार म्हज्यान हुंदराक पोसको घेवं येता. तुज्यान आडावं येता?

सोना – हांव कित्याक आडायतलें? तूं जल्लो घे ना जाल्यार कुसांकीड घे,

संतोबा – सोना, पोरा, ओगी राव गो.

काजरो – बेबुल्याचेर हांव कितली माया करतालों. आनी तोय बी म्हजेर जीव घालतालो! (दोळे पुसता)

साजरो – ओगी ओगी ऽऽ काजऱ्या!

काजरो – कसो ओगी रावं रे साजऱ्या? हांवें बेबुल्या म्हणून उलो मारल्यार पुरो, टुण्ण, टुण्ण करून उडयो मारीत येतालो आनी म्हजे मांडयेर बसतालो. आतां म्हज्यान हें दुख्ख कशेंच सोसूंक जायना.

संतोबा – आमकां खऱ्यानीच तुजो बेबुलो मेलो म्हणून वायट दिसता.

सोना – बाबा, तूं सो कित्याक ताका बेबुलो म्हणटा? बेबो तो!

संतोबा – श्शू ऽऽ. मातशें ओगी राव पळोवया. बाबा काजऱ्या, तुका खूब्ब दुख्ख जालां हें म्हाका दिसता. तें इल्लें उणे करूंक हांव कितेंय करूंक शकतां जाल्यार म्हाका सांग.

बाबरो – सांग रे काजऱ्या, काळीज घट्ट कर आनी सांग.

साजरो – काजऱ्या, आमी जाणात तुजें दुःख कमी करप कठीणच; तरीकय तुज्या मनांत कितेंय आसा जाल्यार सांग.

काजरो – (बेगिबेगीन दोळे पुसता) बेबुल्या रे ऽऽ म्हजें दुःख उणें जावप शक्य ना. तरीकय...

संतोबा – सांग बाबा...

काजरो – तुजो एक घोडो म्हाका दी–

संतोबा – कितें ऽऽ घोडो ऽऽ? (संतोबा कपलार हात मारता)

सोना – अे ऽऽ बरो मरे तूं! येद्याशा बेब्या वांट्याचो आमचो येदो व्हडलो घोडो ऽऽ?

काजरो – घोडो दिवंक वायट दिसता? म्हज्या बेबुल्याक मारतना बरें दिसलें?

सोना – खंय तुजो काड–मोलाचो बेबो आनी खंय आमचो मोलादीक घोडो!

साजरो – आगो एऽऽ चुरुचुरू उलोवं नाका. मोन्यानी काजऱ्याक घोडो दियात.

संतोबा – हें पळयात, बेब्या वांट्याचो घोडो म्हळ्यार मातशें चड जालें ना? तो विकून चार पयशे मेळटले म्हणून आशेन आमी आयिल्लीं.

काजरो – आतां तुमचीय आशा मातये भरवणाच जावंक जाय.

संतोबा – ना, ना – अशे तरेन आमकां नागोवं नाकात.

बाबरो – हें नागोवप कशें जालें? ताचो बेबुलो तुमी माल्लो आतां ताका घोडो दियात आनी वचात.

सोना - (तापता) ना दिना. कितें करता?

काजरो - कितें करता तें पळोवंक जाय?

संतोबा - नाका, नाका बाबा, ताचें मनार घेवं नाका.

सोना - कोण म्हज्या घोड्याक हात लायता पळयतां हांव!

संतोबा - बाय गो, पिशेपणां करूं नाका. नागवण्यांचे तावडींत सांपडल्यार सुटूंक कठीण. त्रासांत पडचे परस व्हरूं तांकां एक घोडो.

(काजरो घोड्याच्या लगामाक हात घालता. सोना ताच्या हाताक घांस मारता)

काजरो - आवय गेऽऽ! चाबकुरें सुणें मरे हें!

बाबरो - काजऱ्या, हाका व्हरून कादयेंत घालुंया.

साजरो - आनी प्रधानजीक सांगून फांशी दिवया.

(संतोबा सामको भिला)

संतोबा - नाका, नाका सायबांनो, हांव तुमच्या पांयां पडटां. व्हरात हो घोडो (घोड्याक सांसपिता आनी लगाम काजऱ्याच्या हातांत दिता).

सोना - (पिकार जालां) बाबा, अशे तरेन घोडो दिवप बरोबर न्हय. जो फटोवन घेता ताका लोक फटयतात.

(साजरो, काजरो आनी बाबरो ताका पळोवन हांसतात आनी घोडो घेवन वतात.)

संतोबा - हांव खात्रीन सांगतां, हें नाडपूरच गो सोना.

सोना - पूण तें उदेंते कडेन आसा. आमी अस्तंते वटेनची वाट धारिल्ली.

संतोबा - खरें गो; पूण मर्दीं आयिल्ल्या वादळाक लागून आमी वाट चुकून जूस्त थंयच पावले आसतले. नशीब आमचें! हे हांगचे लोक नागवणे आनी राजा कुंभकर्ण. आमचो एक घोडो तरी आमचे कडेन उरला म्हणून देवाचे उपकार मानुंया आनी या बेगीन हांगासरलीं.

(विंगेंतल्यान भितर वतात. चलून, चलून दुसरे कडेन पाविल्ले भशेन मातशे कुशीनच्यान परतीं स्टेजीर येतात. मदलो गॅप मरून काडचे खातीर स्टेजी भितल्ल्यानच 'ठक ठक ठो बाबा ठक ठक ठो' चो ठेको चालू दवरचो).

सोना - बाबा, तान लागली न्हय रे?

संतोबा – हय बाय. इल्लें उदक पियेवंक मेळिल्लें जाल्यार जिवाक थाकाय मेळटली आशिल्ली.

सोवा – (हेवटेन, तेवटेन पळयता) बाबा, हें तें पळय थंय घर आसा. थंय उदक मेळटलें. बाबा, तूं घोड्याक घेवन हांगाच राव. हांव उदक घेवन येतां. (सोना विंगेंत वता. ताचे वांगडा अेकदोळो उदकाचो तांबयो घेवन येता. ताच्या अेका दोळ्याचेर काळो कपडो कपी मारिल्ले भशेन दोरयेन कपलाक बांदला. सोना आनी संतोबा उदक पियेतात).

संतोबा – देव बरें करूं.

अेकदोळो – तुजें नांव कितें ?

संतोबा – संतोबा...

अेकदोळो – तुज्या बापायचें नांव कितें ?

संतोबा – जानोबा...

अेकदोळो – खंयच्च्यान आयल्यांत तुमी ?

संतोबा – निर्मलपूरच्यान.

अेकदोळो – कितें ऽऽ ? निर्मलपूरच्या जानोबाचो पूत तूं ? बरो सांपडलो.

सोना – बरो सांपडलो म्हणजे ?

अेकदोळो – पंदरा वर्सां फाटीं हांव तुमच्या राज्यांत वेपारा खातीर गेल्लों. तेन्ना म्हजे पयशे कोणें तरी चोरले.

सोना – शे, शे. आमच्या राज्यांत केन्नाच चोरी जायना. नागोवपाचे धंदे हांगा तुमच्याच राज्यांत चलतात.

अेकदोळो – संतोबा, तुजी धूव चडच हुतहुती. लोकांक उलोवंक दिना; आपूणच उलोवन मेकळी जाता.

संतोबा – सोना, ताका कितें सांगपाचें आसा तें आयक मगो. सांग बाबा–

अेकदोळो – तर पैशे चोरयेक गेले आनी सगली धांदल जाली. घरा परततलो म्हळ्यार लेगीत म्हजेकडेन दमडी नाशिल्ली. तेन्नाच म्हाका थंय जानोबा मेळ्ळो. हांवें ताका म्हाका मदत करूंक सांगलें.

सोना – कसली मदत ?

संतोबा – कसली मदत मागली तुवें ?

अेकदोळो - हांवें ताचे कडेन दोन भांगराच्यो म्होरो रीण म्हणून मागल्यो.

सोना - म्हज्या आज्या कडेन भांगराच्यो म्होरो आशिल्ल्यो रे बाबा?

संतोबा - ना गो बाय. आमी पयलीं सावन गरीबच.

सोना - आयकलें मरे? म्हज्या आज्या कडेन भांगरा म्होरो नाशिल्ल्योच.

अेकदोळो - पंदरा वर्सां पयलीं जानोबा कडेन म्होरो आशिल्ल्यो म्हणून तर ताणें त्यो म्हाका दिल्यो.

सोना - कितें ऽऽ?

अेकदोळो - खरें तेंच सांगतां. अेका वर्सान त्यो परत्यो व्हरूंक आपूणच हांगा येतां म्हणून ताणें सांगलें. पूण पंदरा वर्सां जालीं तो आयलोच ना. आतां तुमी आयल्यांत. हांव त्यो दोन म्होरो आनी इतल्या वर्सांचें कळंतर म्हणून आनीक अेक म्होर तुमकां दिवंक सोदतां.

सोना - बाबा, म्हजो म्हज्या कानाचेर विश्वासच बसना.

संतोबा - म्हजोय बसना. आमकां नागोवचे बदला उरफाटो तोच आमकां म्होरो दिवंक सोदता.

सोना - अजापच शें ! म्हज्या मनांत बेठीच पाल चुकचुकता.

संतोबा - ना गो. सगलेच मनीस नागवणे नासतात. हो बरो मनीस आसतलो (अेकदोळ्याक) बाबा रे, तुजे सारके प्रामाणिक मनीस ह्या जगांत खूब उणे. चडशे लोक दुसऱ्यांक नागयतात पूण तूं मात...

अेकदोळो - तें सगलें बरें आसा. पूण...

सोना - पूण? बाबा, म्हज्या मनांतली पाल किळच्यो मारूंक लागल्या.

संतोबा - पूण कितें....?

अेकदोळो - तुज्या बापायन म्हाका दोन म्होरो दिल्यो खऱ्यो; पूण तेबदला घाणाक कितेंय वस्त दवर म्हणून सांगलें. म्हजे कडेन तर कांय अेक नाशिल्लें. पूण पयशाची म्हाका सामकी गरज आशिल्ली. देखून ताणें म्हाका म्हजो अेक दोळो आपलेकडेन घाण दवरूंक सांगलो.

सोना/संतोबा- (व्हडल्यान) कितें ऽऽ दोळो ऽऽ?

अेकदोळो - किळच्यो कित्याक मारतात? म्हजे कडेन आनीक कितें आशिल्लें तर घाण दवरूंक? जानोबान दुसऱ्या वर्सा दोळो परतो हाडून दिवपाचें उतर दिल्लें. पूण पंदरा वर्सां जालीं तरी तो दोळो घेवन आयलो ना.

संतोबा – बाबा रे, म्हजो बापूय भायर पडल्यार दोन वर्सां जालीं.

अेकदोळो – तशें जाल्यार म्हजो दोळो परतो दिवपाची जापसालदारकी तुजी.

सोना – आरे वा! तूं बेठेंच कित्या कितेंय म्हज्या आज्याचेर घालतलो आनी आमी तें मोन्यानी मानून घेतलीं? आमकां तुज्यो म्होरो नाकात आनी कांय नाका.

अेकदोळो – तुमकां तुमच्यो म्होरो नाका आसत. पूण म्हाका म्हजो दोळो परत जाय.

संतोबा – हो बरो न्याय मगा तुजो. आमकां तुज्या दोळ्या विशीं कांयच खबर ना. (इतले म्हणसर काळोजी आनी फटोजी थंय येतात)

फटोजी – कितें जालां? कसलीं झगडीं चल्ल्यांत?

संतोबा – झगडीं कसलींच जावंक नात. आमचें बेठें उलोवणें चल्लां.

अेकदोळो – झगडीं न्हय जाल्यार कितें तर हें? फटोजी, फाटलीं पंदरा वर्सां अेक दोळो नाशिल्ल्यान हांव कितले त्रास काडटां तें तुका खबर आसा.

फटोजी – हय रे बाबा. असली जीण कोणाच्या वांट्याक येवची न्हय.

अेकदोळो – पूण म्हज्या वांट्याक ही जीण हाच्या बापायक लागून आयली. म्हजो अेक दोळो हाच्या बापायकडेन घाण दवरल्यार पंदरा वर्सां जालीं. ते बदला ताणें म्हाका रीण म्हणून दोन म्होरो दिल्यो. अेका वर्सान आपूण दोळो घेवन येतलों तेन्ना आपल्यो म्होरो आपल्याक दी अशें ताणें सांगलें. पूण तो म्हजो दोळो घेवन आयलोच ना.

कोळोजी – दिल्लें उत्तर पाळी नासलो असलो कसलो मनीस तर तो?

संतोबा – कसलें उतर? हो सांगता आनी तूं खरें म्हणून आयकता?

काळोजी – हांव अेकदोळ्याक बरो वळखतां. तो फट उलोवपी न्हय.

सोना – कोण फट उलयता आनी कोण खरें उलयता तें आमकां खबर आसा.

अेकदोळो – अशें म्हणून तूं म्हजो दोळो दिनासतना वचूंक सोदता काय कितें?

संतोबा – तुका हांवें सांगलें, म्हजो बापूय भायर पडल्यार दोन वर्सां जालीं.

फटोजी – तशें जाल्यार अेकदोळ्याचो दोळो परतो दिवपाची जापसालदारकी तुजी.

सोना – बाबा, आमी हांगची या. ना जाल्यार हे लोक आमकां पिशे करतले.

अेकदोळो – हें पळयात, इतलीं वर्सां हांवे त्रास काडले पूण आनीक अेक दीस लेगीत त्रास काडचेली म्हजी तयारी ना. म्हजो दोळो म्हाका जाय म्हळ्यार जाय.

संतोबा – आरे, पूण नाशिल्लो दोळो हांव खंयच्यान हाडून दिवं?

अेकदोळा – तें तूं पळय. म्हजो दोळो म्हाका मेळटकीर जालो.

संतोबा – हें पळय, ह्या वादाक अंत ना. तूं दोळो दी म्हणटा. हांव म्हजे कडेन दोळो ना म्हणटां. हें अशें कितलो वेळ चालू दवरचेलें?

फटोजी – तुवें ताचो दोळो परतो दी म्हणसर.

सोना – बाबा, ते घुंवन घुंवन दोळ्याचेरच पावतात. तांचें मारूं झक; आमी या हांगार्ची.

काळोजी – (तांकां आडायत) खबरदार फुडें पावल घालश्यात जाल्यार. दोळो दिले बगर तुमकां हांगचें हालूंक मेळचें ना.

फटोजी – अेकदोळ्यान पंदरा वर्सां त्रास काडले. हाचे फुडेंय ताणें त्रास काडचे अशें तुमकां दिसता?

संतोबा – ना. ना. अशें आमकां कशें दिसतलें? ताचे त्रास उणे जावचे खातीर हांव आनीक कितेंय करूंक शकतां जाल्यार सांग.

अेकदोळो – एक दोळो नाशिल्यान म्हाका जे त्रास जातात ते हांवूच जाणां! पूण तूं इतलो पांया पडटा जाल्यार...

काळोजी – हय, अेकदोळ्या, तो इतलो गयावया करता जाल्यार दोळ्या वांट्याचें आनीक कितेंय घेवंक मेळटा जाल्यार पळय.

अेकदोळो – बरें आसा. तूं म्हणटा जाल्यार दोळ्या वांट्याचो हाणें म्हाका आपलो घोडो दिवचो.

सोना – घोडो ऽऽ? दोळ्या वांट्याचो घोडो?

संतोबा – नागवण्यांच्या राज्यांत आनीक कितें जातलें?

सोना – पूण आमी घोडो दिवचीं नात.

अेकदोळो – नाका दिवं. म्हाका तरी कित्याक जाय तुजो घोडो? म्हजो दोळो दिल्यार पुरो.

फटोजी – अेकदोळ्याचें सारकें, तो तेंच म्हणटा – हें दी, ना जाल्यार तें दी. पूण कितेंय तरी दी.

सोना – हें पळयात, आमी घोडो दिवचीं नात.

काळोजी – घोडो दिलो ना जाल्यार तुमकां वचूंक मेळचें ना.

संतोबा – बाय सोना, तांचे कडेन वाद घालपांत अर्थ ना. घोडे विकून पयशे करपाचें आमच्या नाशिबांतच ना.

सोना – बाबा, फकत नशिबाक दोश दिवपांत कांय अर्थ ना.

संतोबा – ह्या नागवण्यांच्या राज्यांत आमच्या आदाराक धांवन येवपी कोण आसा? घोडे गेल्यार वचूं. आमकां तरी बरे भशेन घरा वचूंक मेळ्ळ्यार पुरो.

सोना – अेक घोडो तांकां पचलो. देखून ते दुसरो व्हरूंक सोदतात.

संतोबा – (विटून) व्हरूं तांकां हो घोडो. ज्या राज्याचो राजा असो न्हिदो काडपी आसता, त्या राज्यांतल्या लोकां कडल्यान दुसरी कसली अपेक्षा दवरचेली?

सोना – बाबा, असो कश्टी जावं नाका

संतोबा – अेकदोळ्या, घे, व्हर हो घोडो. (कपलार हात धरून बसता).

सोना – बाबा, धीर सोडूं नाका. आमी हो अन्याय मोन्यानी सोंसून हांगचीं वचचीं न्हय. जो अन्याय करता ताचे इतलोच जापसालदार अन्याय सोंसपी आसता. चल बाबा, आमी राजाकडेन फिर्याद घेवन या.

काळोजी – (हांसत) वचात, वचात, जाय थंय वचात.

(स्टेजीचे दुसरे वटेन अेक मनीस– बुदवंतसिंग येवन तांचें उलोवणें आयकत उबो रावला).

अेकदोळो – चलात रे, या आमी. आमचें काम जालें. (हांसत घोड्याक घेवन वता)

सोना – बाबा, म्हाका हांगच्या राजाची काकुळट दिसता. ज्या राज्यांत असले पाडे, नागवणे, नाड लोक आसात, त्या राजाक कोणच बरो म्हणचो ना.

(बुदवंतसिंग तांचें उलोवणें आयकून मुखार येता.)

बुदवंत – वाटसरूंनो, तुमी कोण? खंयच्यान आयल्यात?

(सोना आनी संतोबा ताका दुबावान पळयतात)

सोना – हें पळयात, आमचे कडेन आतां तुमी नागोवन व्हरपा सारकें कांयच उरूंक

ना. दोन घोडे घेवन आमी आयिल्लीं. ते आमचे दोनय घोडे लोकांनी व्हेले.

बुदवंत - तुज्या उलोवण्या वयल्यान हांगा येवन तुमी नागवल्यात शीं दिसतात.

संतोबा - हय बाबा. सामकीं खांकनवाळ जाल्यांत. ह्या नाडपूरच्या लोकां कडल्यान आमच्या सारक्या वाटसरूंक दुसरी कसली वागणूक मेळटली?

बुदवंत - तुमचीं हीं उतरां आयकून म्हाका खऱ्यांनीच वायट दिसता. म्हजो तुमकां दुबाव येवपय सभावीक आसा. पूण आमच्या ह्या राज्यांतले सगलेच लोक नाड नात. कांय बरेय आसात.

संतोबा - बाबा रे, आमकां तरी आजून म्हणसर कोण बरो मेळूंक ना.

बुदवंत - खरें म्हळ्यार आमचे चंद्रसेन म्हाराज खूप बरे. प्रजेची खूब काळजी घेवपी. पूण अकस्मात तांकां निद्रारोग लागला. राज-कारभाराचेर तांचें लक्षच ना. रातदीस ते झेमत आसतात. ताका लागून सगलें कितें तें प्रधान धूर्तसिंगाचे मर्जेचेर चल्लां.

सोना - पूण म्हाराजांक असो अकस्मात निद्रारोग कसो जालो? ताचेर उपाय कांय करूंक ना?

बुदवंत - म्हाका दुबाव आसा, हें धूर्तसिंगाचें कारस्थान आसतलें. म्हाराजांचो जो खाशेलो वैद्य आसा, ताका ताणें काडून उडयला आनी ताच्या जाग्यार आपले मर्जेच्या वैद्याक नेमला. म्हाराज सदांच न्हिदेचे गुर्मीत उरतले हाची तो वैद्य जतनाय घेता आसतलो.

संतोबा - हे बाबतींत तुमी म्हाराणयेची मदत किल्याक घेनात?

बुदवंत - धूर्तसिंगान आपले सगले हस्तक म्हालांत पातळावन दवरल्यात, ताका लागून म्हाराज आनी म्हाराणये म्हऱ्यांत वचचेल्यो सगल्यो वाटोच बंद जाल्यात. आमी प्रयत्न केल्ले, पूण धूर्तसिंगाक मात लेगीत दुबाव आयल्यार तो ताचेर नसते आळ घालून ताका फांशी दिता.

संतोबा - आरे बाबा!

बुदवंत - देखून आतां कोण म्हालांत वचून म्हाराजांक वा म्हाराणयेक मेळपाचो यत्न लेगीत करना. धूर्तसिंगान म्हजेर तर सारकीच पाळत दवरल्या. हांव म्हालाचे मातसो लागीं गेल्यार पुरो, कोण ना कोण तरी म्हाका आडायता. दरबारांत लेगीत तो म्हाका येवंक दिना.

सोना – म्हणटकीर तुमी हें अशेंच चलूंक दितले तर?

बुदवंत – कशेय तरेन म्हाराजांच्या पोटांत जें न्हिदेचें वखद वता, तें बदलून त्या जाग्यार शक्त दिवपी वखद दवरलें जाल्यार म्हाराजांचो हो निद्रारोग बरो जावं येता.

संतोबा – मागीर तुमी तसो प्रयत्न कित्याक करनात?

बुदवंत – कसो करतलों? म्हालांत वचून वखद बदलपाचें धाडस कोण करतलो?

सोना – वखद बदलल्यार कितें जातलें?

बुदवंत – म्हाराज जागे उरतले. भोंवतणी जें कितें चल्लां तें तांच्या सहज लक्षांत येतलें. धीर करून दरबारांत वचून तांच्या कानार सगलें घालूं येतलें. धूर्तसिंग महाराजां सामकार कांयच उलोवंक शकचो ना.

सोना – हें शक्य आसा जाल्यार वखद बदलपाचो यत्न करूंकच जाय.

बुदवंत – खरें तुजें. पूण तें धाडस दाखोवंक कोण तयार ना. फांशीची ख्यास्त कोणाक जाय?

सोना – हांव तुमचें काम करूंक तयार आसां.

संतोबा – (काचाबूल जावन) सोना, कितें उलयता गो तूं? असलें जिवा वयलें काम करूंक सोदता तूं? त्या प्रधानान तुका फांशी दिली जाल्यार?

सोना – बाबा, बेठोच भिवं नाका. कोणेंय तरी धाडस करूंकच जाय, ना जाल्यार त्या धूर्तसिंगाचो अत्याचार आनी नागवण्यांचें नाडप चालूच उरतलें.

संतोबा – पूण तुका कितेंय जालें जाल्यार हांव कितें करूं?

सोना – ना बाबा, म्हाका कांयच जावचें ना. हांव खूब जतनाय घेतलें.

बुदवंत – बाय सोना, तूं अेक चली, तुका राजाची सेवा करूंक कशे तरेन धाडूंक मेळटलें? राजाचे सेवे खातीर फकत चले भुरगेच जाय.

सोना – हांव चल्याचो भेस करतां. पूण म्हजी अेक अट आसा.

बुदवंत – कसली ती?

सोना – दरबारांत आमची फिर्याद म्हाराजां मेरेन पावंक जाय.

बुदवंत – अवश्य.

सोना – बाबा, तूं मातय भियेवं नाका. त्या नागवण्यांक बुद्द शिकोवचे खातीर तरी

म्हाका म्हाराजांक बरे करूंक जाय.

बुदवंत - संतोबा, तूं खरोच नशीबवान म्हणून असली धीट चली तुगेर जाली. ह्या सोनाच्या रूपान आमच्या अजीबपुरांत अेक आशेचें किर्ण भितर सल्लां. देवाचे कृपेन सगलें जाग्यार पडटलें. कशेय तरेन सोनाक राजवाड्यांत पावोवचेली वेवस्था करतां. पूण पयलीं तुमी म्हजेवांगडा घरा येयात. थंय आमी विस्तारान उलोवया (सगलीं भितर वतात).

(काणी फुडें व्हरूंक सूत्रधार बड्यांचो ताल धरीत स्टेजीर येतात.)

सूत्रधार - ठक ठक ठो बाबा, ठक ठक ठो.
ठक ठक ठो बाबा, ठक ठक ठो ।।
चितूंक लागलो बुदवंत सिंग
युक्त हिकमतीची
दुबावा विरयत सोनाक
राजम्हालांत धाडपाची
ठक ठक ठो बाबा, ठक ठक ठो
ठक ठक ठो बाबा, ठक ठक ठो ।।
प्रधानालो खास हस्तक
आसलो फित्रोजी
म्हाराजांचेर सामकी बारीक
नदर आसली ताची
ठक ठक ठो बाबा, ठक ठक ठो
ठक ठक ठो बाबा, ठक ठक ठो ।।
फित्रोजी आसलो सामको आळशी
कामाक सदांच पिरी पिरी करी
धाडात म्हणी आपल्याक
आदाराक कोणूय तरी
ठक ठक ठो बाबा, ठक ठक ठो
ठक ठक ठो बाबा, ठक ठक ठो ।।

सोनाचो जालो सोनू
आनी राज म्हालांत पावलो
काम जालें उणें म्हूण
खुशाल फित्रोजी जालो.
ठक ठक ठो बाबा, ठक ठक ठो
ठक ठक ठो बाबा, ठक ठक ठो ।।
वखदाची अदला बदली सोनून
संद सादून केली
पिवन वखद नवें
न्हीद राजाची गेली
ठक ठक ठो बाबा, ठक ठक ठो
ठक ठक ठो बाबा, ठक ठक ठो ।।

(स्टेजीर काळोख जाता)

***

## प्रवेश ३

राजाचो म्हाल. सोनू चल्याच्या भेसांत थंय निवळ करीत हेवटेन, तेवटेन भोंवता. इतल्यांत थंय फित्रोजी येता)

फित्रोजी – आरे, कितें करता तूं हें? फकत आंगशे वावुडटा. आठ दीस जाले तुका म्हालांत येवन; एक काम धड करना.

सोनू – तुमी म्हाका सांगतात तें काम हांव जुस्ता जूस्त करतां.

फित्रोजी – चूप्प! बोवाळ करूं नाका. म्हाराज उठ्ठले.

सोनू – उठ्ठले ऽऽ ? पूण म्हाराज तर के ऽऽ न्ना उठले.

फित्रोजी – कितें ऽऽ? उठले?

सोनू – आतां ? फांतोडेर.

फित्रोजी – फांतोडेर?

सोनू - हय. बागेंत गेल्यात पांय सदळ करूंक.

फित्रोजी - कितें? बागेंत गेल्यात? पूण न्हिदेंत आसतना ते अशें केन्ना करिनात.

सोनू - न्हिदेंत? कोण म्हाराज? सांगलें न्हय, ते सामके तटमटीत जागे आसात.

फित्रोजी - कितें? तटमटीत जागे? आरे सोनू, तूं येत सावन म्हाराज सारके न्हिदनात. कितें जालां? हांवें सांगलां तें वखद तूं तांकां दीत रावता मरे?

सोनू - हय तर. तुमी सांगिल्लें, म्हाराज जागे जातात शे दिसले जाल्यार रोकडेंच तांकां ते बाटलेंतलें वखद दिवपाचें. ते प्रमाण हांव तांकां वखद दितालों.

फित्रोजी - तरीकय म्हाराज तटमटीत जागे? अशें कशें जालें तर? प्रधानजीक कळ्ळ्यार ते म्हाका मटमटीत खावन उडयतले.

सोना - कित्याक? म्हाराज जागे उल्ल्यार वायट तर?

फित्रोजी - आरे, म्हाराज जागे उल्ल्यार प्रधानजीच्यो भानगडी (अेकदम भानार येता आनी तापता) सोनू, तुका कित्याक त्यो सगल्यो चौकश्यो? खरें सांग, तुवें म्हाराजांक तें वखद दिल्लें?

सोना - खरेंच सांगतां. उठना फुडें पयलीं हांवें हेंच काम केलें.

फित्रोजी - तशें जाल्यार आतां म्हजी धडगत ना. आज दरबारांत वचचे पयलीं तरी तांकां झेम लागल्यार पुरो. (घाम पुसता)

सोना - फित्रोजी, तू असो घामाघूम कित्याक जाला? तुज्या जिवाक बरें दिसना?

फित्रोजी - शे. शे... म्हाका कितें जालां तर?
(इतल्यांत म्हाराज चंद्रसेन येतात).

म्हाराज - वा वा! भायर कितलें सुंदर वातावरण आसा! बागेंतलीं तीं सुंदर फुलां. पानापानार पडिल्लो दंव, निकतांच वयर सरपी तांबडो गुंज सुर्या, मन प्रसन्न जालें. भितर येवचेंच न्हय कशें दिसतालें. पूण दरबारांत वचूंक वेळ जातलो म्हणून भितर आयलों. (फित्रोजी काचाबूल जाला.)

फित्रोजी - म्हाराज, तुमी...

म्हाराज - कितें जालां फित्रोजी? तुजें तोंड अशें कित्याक दिसता?

फित्रोजी - म्हाराज, म्हाका दिसता तुमी सकाळीं वखद घेवंक ना.

म्हाराज - शे...शे... हो सोनू म्हाका सदां न चुकतां वखद दिता.

फित्रोजी – पूण म्हाराज, तुमकां पळयल्यार तुमी वखद घेवंकच ना शें दिसता.

म्हाराज – ह्या सोनूच्या हाताकच गूण आसा. ताणें वखद दित पसून दोळ्यांवयली न्हीद नाच जाल्या.

फिरोजी – (आकांतून) न्हीद ना जाल्या? म्हाराज तुमची प्रकृती नक्कीच बरी ना.

सोनू – फित्रोजी, म्हाराज सांगतात तांच्या जिवाक बरें दिसता म्हणून आनी तूं अशें कितें म्हणटा?

फित्रोजी – पूण म्हाराज, जागे उरप तुमचे बलायकेक वायट.

म्हाराज – अशें कोण म्हणटा?

फित्रोजी – प्रधानजी म्हणटा.

म्हाराज – प्रधानजी? धूर्तसिंग केन्ना सावन आमचो वैद्य जालो?

फित्रोजी – ना म्हाराज... हय म्हाराज ... म्हळ्यार तशें न्हय म्हाराज.

म्हाराज – ना...हय... तशें न्हय... कितें उलयता तूं फित्रोजी?

सोना – म्हाराज, म्हाका दिसता, फित्रोजीच्या जिवाक बरें ना. येदोळ तो घामान थपथपिल्लो.

म्हाराज – हें पळय, तुज्या जिवाक बरें दिसना जाल्यार तुवें विश्रांती घेवंक जाय.

फित्रोजी – ना म्हाराज. हांव बरो आसां. पूण तुमकां विश्रांतीची गरज आसा. (म्हाराज ना, ना अशी मान हालयता)

सोना – म्हाराज, म्हजेकडेन अेक वखद आसा. तें घेतकीर ह्या फित्रोजीक नक्की बरें दिसतलें.

म्हाराज – अशें? तशें जाल्यार चल घेवन यो बेगीन (सोना भितर वता)

फित्रोजी – म्हाराज, म्हाका कांयच जावंक ना. तुमी परवानगी दिली जाल्यार हांव मातसो प्रधानजींक मेळून येतां.

म्हाराज – ना, ना. तुज्या जिवाक बरें नासतना हांव तुका खंयच वचूंक परवानगी दिना.

(सोना वखद घेवन येता)

हो पळय सोनू वखद घेवन आयलो. पी तें.

फित्रोजी – पूण म्हाका तांतडीन प्रधानजीक मेळूंक वचूंक जाय म्हाराज, म्हाका हें वखद नाका.

सोना - फित्रोजी, तूं म्हाराजांची आज्ञा मोडटा? तांणी तुका वखद पी म्हळां जाल्यार तुवें पिवंकच जाय. हांव जाल्यार तांणी म्हाका वीख पिये म्हळ्यार वीख लेगीत पियेतलों आसलों.

म्हाराज - वा. वा! सेवक आसचो तर ह्या सोनू सारको. फित्रोजी, वखद पी. (मनांत नासूनय फित्रोजीक वखद पियेवचें पडटा).

सोना - म्हाराज, आतां फित्रोजीक अेकदम बरें दिसतलें.
(हेवटेन फित्रोजी उब्या उबो झेमेवंक लागता. लकत, लकन कुशीन वता आनी थंयच उब्या उबो न्हिदता.)

म्हाराज - सोनू, खरें सांगतां, आज म्हजें मन सामकें प्रसन्न जालां.
(फित्रोजी व्हडल्यान घोरेता) कोण घोरेता?

सोना - फित्रोजी घोरेता म्हाराज.

म्हाराज - आब्बा! म्हजे मुखार उबो रावन घोरेवपाचे धाडस करता? आतां जागो आशिल्लो; म्हणटासर न्हिदलो? न्हिदलो तो न्हिदलो, वयल्यान घोरेता?

सोना - तो असो न्हिदपा फाटल्यान कारण आसा म्हाराज.

म्हाराज - कारण? कसलें कारण?

सोना - म्हाराज, इतले दीस तो जें वखद तुमकां पिवयतालो, तेंच वखद आयज हांवें ताका दिलें.

म्हाराज - कितें सांगता तूं सोनू?
(फित्रोजीचें घोरेवप अदीं मदीं चालू)

सोना - खरें तेंच सांगतां हांव म्हाराज, आनी ल्हान तोंडांत मोटो घास घेतां म्हणून रागार जावं नाकात. तुमकां न्हिदेंचे गुंगेंत दवरून धूर्तसिंगान राज्यकारभार आपल्या हातांत घेतला. सगल्याक अदाधुंदी आनी फटींगपणा मातल्यांत.

म्हाराज - म्हजो म्हज्या कानाचेर विस्वासच बसना.

सोना - म्हाराज, आतां तुमच्या अजीबपुराक दुसरीं राज्यां अजीबपूर म्हणिनात तर नाडपूर म्हणटात. हांगा आयिल्लो दर अेक वेपारी हांगा नागवता. दुखी, कश्टी जावन आपल्या राज्यांत मोन्यानी परतता. आनी हाचें कारण म्हणजे जाचेकडेन फिर्याद करपाची ते तुमी म्हाराज सदांच न्हिदेंत. सगले

राज्य धूर्तसिंग चलयता. कपटसिंगाचे मदतीन खजिन्याची लूटमार चल्ल्या.

म्हाराज - धूर्तसिंग हें असलें कपट-कारस्थान रचतलो म्हणून हांवें धरूंकच ना सोनू.

सोना - म्हाराज, हांव सोनू न्हय, हांव सोना. तुमच्या वखदाची बाटली बदलचे खातीर बुदवंतसिंगान म्हाका भेस बदलून हांगा धाडलें. प्रधानाले हस्तक हांगा जळींमळीं पातळ्ळ्यात. हो तो थंय घोरेता तो धूर्तसिंगालो खास हस्तक. ह्या तुमच्या नाडपुरांत नाडच चड जाल्यात.

म्हाराज - बुदवंतसिंगान हें म्हाका पयलींच कशें सांगलें ना?

सोना - कशें सांगतलो म्हाराज? तुमचे मेरेन ताका धूर्तसिंग पावंकूच दिना आसलो. कोणाचोय मातसो दुबाव आयल्यार धूर्तसिंग ताका फांशीची ख्यास्त दितालो.

म्हाराज - अशें आसतना तूं धाडस करून म्हजे मेरेन आयलें आनी वखदाची बाटली बदलली म्हणून म्हाका तुजी तोखणाय दिसता.

सोना - हो वेळ तोखणाय करपाचो न्हय, तर धूर्तसिंगाक आनी ताच्या मनशांक ख्यास्त दिवपाचो.

म्हाराज - हय तर. पूण सगलें प्रधानाक दुबाव येनासतना करूंक जाय. आयज दरबारांत तूं बुदवंतसिंगाक घेवन यो. तुजी कितें कागाळ बी आसा?

सोना - हय म्हाराज. आमची कागाळ आमी दरबारांत तुमच्या कानार घालतात.

म्हाराज - बरें तर.

(सोना मुजरो करून वता. म्हाराज हेवटेन, तेवटेन पासयो मारता. फित्रोजी घोरेत आसा. काळोख जावंक लागता.

***

## प्रवेश ४

(उजवाड जाता तेन्ना दरबाराचो देखाव, जसो नाटकाचे सुरवेक आशिल्लो तसोच. म्हाराज न्हिंदेचें सवंग घेवन बसल्यात.)

प्रधान - (मोठ्यान) म्हाराज चंद्रसेनाचो विजय जावं!

(राजा कच्च करून आंग काडून सारको बसता)

राजा - धूर्तसिंग, दरबार भल्लो?

प्रधान - (हाका अजून कसलोच दुबाव येवंक ना) हय म्हाराज.

राजा - पूण हांगा तर कोणच दिसनात.

प्रधान - कशे दिसतले म्हाराज? राज्यांत सगलें वेवस्थीत चल्लां. कोणाचीच कसली कागाळ ना. कसलीं गाराणीं नात. फकत चंदनपूरच्या लोकांचे...

कपटसिंग - प्रधानजी, म्हाराज न्हिदून पडले.

प्रधान - वा वा! तें सदचेंच जालां.

कपट - म्हणूनच तर आमचें फावलां.

(दोगय मोठ्यान हांसतात)

(राजा अेकदम आंग काडून जागो जाता)

राजा - कितें जालें?

प्रधान - म्हाराज, चंदनपुरांत हुंवार आयिल्ल्यान थंयचें सगलें उदकांत व्हांवन गेलां. घरां मोडल्यांत, गोरवां आनी हेर वस्तू उदकांत व्हांवन गेल्यात. देखून थंयच्या लोकांक घरां बांदून दिवचीं पडटलीं. शिवाय जेवणा-खाणाच्यो वस्तू आनी दुडूय दिवचे पडटले.

कपटसिंग - प्रधानजी, म्हाराज परते न्हिदले.

प्रधान - तांच्या कानार घालपाचें काम हांवें केलें. तांणी नाका म्हळें ना, म्हणटकीर ह्या कामाक मंजुरी मेळिल्ले भशेनच जाली. (राजा ल्हवच दोळे उकते करून तांचें उलोवणें आयकता). सदचे भशेन ७५% आमी वांटून घेवपाचे आनी २५% चंदनपुरांत पावोवपाचे.

कपट – (व्हडल्यान) जय हो!

राजा – (अेकदम) कितें जालें?

प्रधान – कांय ना म्हाराज. सगलें जुस्ताजूस्त जालें. दरबार बरखास्त करात (इतल्यांत अेकदम बुदवंतसिंग दरबारांत येता. ताचे फाटोफाट सोना, संतोबा, काजरो आणि अेकदोळो येता. उपरान्त साजरो, बाबरो बी येतात आनी रावतात)

बुदवंत – रावात म्हाराज, रावात. दरबार बरखास्त करूं नाकात.

प्रधान – (तापता) बुदवंतसिंग, तूं? तूं कित्याक आयला हांगा?

बुंदवंत – हांव म्हाराजांच्या दरबारांत कागाळ घेवन आयलां.

प्रधान – (कुत्छित्र्यांनी हांसता) म्हाराजांच्या दरबारांत कागाळ? आनी ती आयकतलो कोण? न्हिदो काडपी म्हाराज?

बुदवंत – धूर्तसिंग, तुजे शंबर अपराध भल्ल्यात आसत जाल्यार घडये आज म्हाराज जागे जावन आमच्यो कागाळी आयकत.

प्रधान – तें ह्या जल्मांत तरी शक्य ना.

कपट – प्रधानजी, ह्या बुदवंतसिंगान कागाळ घेवन म्हाराजांच्या दरबारांत येवचेलें धाडस केलें हे खातीर ताका शिक्षा जावंकच जाय.

प्रधान – कपटसिंग, तूं सारको उलयलो. हाका सादी सुदी न्हय, तर फांशीचीच ख्यास्त दितां.
(हे सगलें संभाषण राजा मोन्यानी आयकता)

राजा – (थंडसाणेन) धूर्तसिंग, ख्यास्त दिवंक तूं केन्ना सावन राजा जालो?
(कपटसिंग आनी धूर्तसिंग कच्च करून फाटल्यान पळयतात. म्हाराजांक जागो आसा तें पळोवन तांकां अजाप जाता).

प्रधान – म्हाराज... त... तुमी जागे?

म्हाराज – हय, तुका अजाप दिसलें? तुजीं सगलीं काळीं कर्तुपां म्हाका कळ्ळ्यांत. पूण तुजो समाचार मागीर घेतां. पयलीं बुदवंतसिंगाक कितें सांगपाचें आसा तें पळयतां.

प्रधान – पूण म्हाराज–

म्हाराज – चूप... अेक उत्तर तोंडांतल्यान काडचो ना. बुदवंतसिंग, तुका कितें सांगपाचें आसा?

बुदवंत – म्हाराजांचो विजय जावं. हांगा अेक निर्मलपूरचो वेपारी संतोबा आनी ताची धूव सोना आयल्यांत. तीं हांगा आपले घोडे घेवन वेपार करूंक आयिल्लीं म्हाराज. तांची फिर्याद आयकून घेवन तुमी न्याय करचो ही तुमकां विनवणी.

राजा – अवश्य. संतोबान आपली फिर्याद सांगची आनी जाचे आड ती आसा ताणेंय मुखार येवचो. (काजरो फुडें येता)

संतोबा – म्हाराज, आमी वेपार करूंक तुमच्या राज्यांत घोडे घेवन आयिल्लीं. चलतां, चलतां, रस्त्यार आशिल्ल्या फातराक आपटून हांव सकयल पडलों. ह्या काजऱ्याचें म्हणणें, म्हज्या पोंदा चिड्डून ताचो बेबो मेलो. आनी त्या येद्याशा बेब्या बदला ताणें म्हजो घोडो व्हेलो म्हजेर हो अन्याय जाला म्हाराज.

राजा – काजऱ्या, हाचेर तुजें कितें म्हणणें आसा?

काजरो – (दोळे पुसत) म्हाराज, ह्या संतोबान चिड्डून माल्लो तो सादो सुदो बेबो न्हय तर म्हजो अपुरबायेचो पोसको पूत, बेबुलो आशिल्लो.

राजा – तुवें बेब्याक पोसको घेतिल्लो?

काजरो – हय म्हाराज. ह्या राज्यांत कायद्यान कोणाच्यानय कोणाकय पोसको घेवं येता.

राजा – कायदे कितें आसात तें तूं म्हाका सांगूं नाका.

काजरो – चूक जाली. म्हाराज.

राजा – तुवें ताचो घोडो कित्याक व्हेलो?

काजरो – म्हाराज, बेबुल्याच्या मरणान म्हाका खूबच दुख्ख जालें. म्हजें दुख्ख थोडें तरी उणें जावचें म्हणून म्हाका ताचो घोडो घेवचो पडलो.

राजा – संतोबा, काजऱ्याचो पोसको बेबो तुजे पोंदा चिड्डून मेलो आनी ते खातीर ताका खूब दुःख जालें. ताच्या दुःखाची भरपाय जावंकच जाय.

काजरो – (खोशेन) जय हो म्हाराज.

राजा – संतोबा, तुजो पोसको पूत बी आसा?

सोना – हय म्हाराज, म्हज्या बापायन आतांच अेका सोरपाक पोसको घेतला आनी भायर पेटाऱ्यांत दवरला.

संतोबा – म्हजो अपुरबायेचो सर्पुलो तो. काय बरो फोंस्स, फोंस्स करता!

राजा – काजऱ्या, ह्या संतोबान तुज्या पोसक्याक चिड्डून माल्लो. ताची ख्यास्त म्हणून तूं ताच्या पोसक्याचेर पडून ताका चिड्डून मार.

काजरो – (आकांतान) सोरपाचेर पडूं? म्हाराज, ताचेर पडल्यार तो म्हाका जितो दवरता? फोंस्स करून चाबतलो.

राजा – तो तुका चाबचो ना अशे तरेन तूं ताचेर पड.

काजरो – घडये ताचे दांत काडले जाल्यार...

सोना – म्हाराज हाणें आपल्या बेब्याचे दांत म्हजो बापूय ताचेर पडचे पयलीं काडिल्ले?

राजा – काजऱ्या, तुवें बेब्याचे दांत काडिल्ले?

काजऱ्या – बेब्याचे दांत?

राजा – हय काय ना?

काजरो – न... ना... म्हाराज...

राजा – तशें जाल्यार सोरपाचे दांत काडिनासतना तुका ताचेर पडचें पडटलें.

काजरो – म्हाराज, सोरोप तसो सोपेपणान मरना.

राजा – ना. तो मरसर तूं ताचेर पड. ताणें तुज्या पोसक्याक माल्लो म्हणटकीर तुवें ताच्या पोसक्याक मारप हीच ताका शिक्षा.

काजरो – म्हाराज, ही ताका न्हय, उरफाटी म्हाकाच शिक्षा जातली.

राजा – तें हांव नकळों. तूं केन्ना ताका मारतलो तो दीस आनी वेळ संतोबाक सांग.

सोना – म्हाराज, आमचो सर्पूलो सकाळच्या वेळार चडच फोंस्स, फोंस्स करता. त्या वेळार जाय जाल्यार काजऱ्यान...

काजरो – नाका, नाका म्हाराज, हांव तुमच्या पांया पडटां. म्हाका तांचो घोडो नाका आनी कांय नाका.

राजा – तुजें दुःख उणें कशें जातलें?

काजरो – जालें म्हाराज, दुःख नाच्च जालें!

राजा – तशें जाल्यार तूं संतोबाक ताचो घोडो परतो दी आनी ताका जे त्रास जाले ते बदला ताका शंभर भांगराच्यो म्होरो दी.

काजरो – म्हाका सगलें मान्य आसा म्हाराज. संतोबा, तुजो घोडो आनी म्होरो हांव तुका रोकड्योच दितां सायबा.
(कुशीन वचून उबो रावता.)

राजा – आनीक कसली फिर्याद आसा?

सोना – म्हाराज आमचो दुसरो घोडो ह्या अेकदोळ्यान व्हेलो.

राजा – अेकदोळ्या, असो मुखार यो. (अेकदोळो फुडें येवन उबो रावता)

अेकदोळो – (मुजरो करना) म्हाराज, पंदरा वर्सां फाटीं संतोबाच्या बापायन म्हजो अेक दोळो घाण दवरून म्हाका दोन भांगराच्यो म्होरो दिल्ल्यो. दुसऱ्या वर्सा दोळो परतो हाडून दितां आनी म्होरो व्हरतां म्हणून ताणें म्हाका सांगिल्लें. पूण पंदरा वर्सां जालीं, तो आयलोच ना. इतलीं वर्सां अेका दोळ्यान जीण सारतना म्हाका खूबूच त्रास जाले. आतां इतल्या वर्सां उपरान्त ताचो पूत हो संतोबा हांगा आयला. तो सांगता, दोन वर्सां पयलीं ताचो बापूय भायर पडलो.

राजा – मागीर?

अेकदोळो – बापाय फाटल्यान म्हजो दोळो परतो दिवपाची जापसालदारकी ह्या संतोबाची. पूण तो म्हजो दोळो दिवंक तयार ना.

राजा – संतोबा, हाचेर तुजें कितें म्हणणें आसा?

संताबो – म्हाराज, म्हज्या बापायक तरेकवार विचित्र छंद आशिल्ले. तातुंतलो अेक म्हळ्यार लोकांचे दोळे अेकठांय करप.

सोना – म्हाराज, आमचे कोठयेंत शेंकड्यांनी दोळे आसात. ह्या अेकदोळ्याक ताचो दोळो दिवंक आमी तयार आसात. पूण इतल्या सगळ्या दोळ्यांतल्यान हाच्या दोळ्याचे जोडयेचो दुसरो दोळो सोदून काडप शक्य ना.

राजा – शे शे! सामकें सोपें तें. तुमी हाचो दुसरो दोळो वांगडा घेवन वचात आनी ताचे जोडयेचो दोळो जो तुमचे कोठयेंत आसा, तो सोदून काडात.

संतोबा – तुमची आज्ञा आसा जाल्यार आमी ताचो दुसरो दोळो घेवन वचूंक तयार आसात म्हाराज.

अेकदोळो – म्हाराज... पयलींच अेका दोळ्यान जीण सारप म्हाका कठीण जालां आतां दुसरो हांणी व्हेलो जाल्यार हांव कुड्डो जातलों.

राजा – ताका उपाय ना. दोनय दोळे जाय जाल्यार तुका थोडे दीस कुड्डो जावपाची तयारी दवरचीच पडटली.

अेकदोळो – ना, ना म्हाराज म्हाका कुड्डो जावपाचो ना.

राजा – शे शे... अेकदोळ्या, तुका तुजो दुसरो दोळो मेळूंकच जाय. देखूनच थोडे दीस कुड्डो जातलो म्हणून हुसको करूं नाका.

अेकदोळो – (राजा मुखार लोटांगण घालता) पांया पडटां म्हाराज. म्हाका दुसरो दोळो नाका. अेकाच दोळ्यान हांव खोशेन जीण सारीन.

राजा – नक्की?

अेकदोळो – हय म्हाराज.

राजा – संतोबा, हो आपल्याक दोळो परतो दिवंक नाका म्हणटा. हाचेर तुजें कितें म्हणणें आसा?

संतोबा – महाराज, ताणें दोळो दिना म्हणून म्हजो घोडो घेतला. तो ताणें परतो दिवचो.

अेकदोळो – दितां, दितां....

सोना – शिवाय ताणें आज्याकडल्यान दोन भांगराच्यो म्होरो घेतिल्ल्यो, त्योय ताणें परत्यो दिवच्यो.

राजा – अेकदोळ्या, तुका तांचो घोडो आनी दोन भांगराच्यो म्होरो परत्यो दिवच्यो पडटल्यो त्यो जाल्योच, पूण पंदरा वर्सांचें कळंतर म्हणून तुवें तांकां शंबर म्होरो दिवच्यो पडटल्यो.

अेकदोळो – जशी तुमची आज्ञा म्हाराज.

राजा – आनीक कोणाची कागाळ आसा?

प्रधान - (ताकतिकेन) ना म्हाराज.

राजा - चूप! बुधवंतसिंग आनी कोणाली कागाळ आसा?

बुदवंत - हय म्हाराज. म्हजी स्वताचीच कागाळ आसा. ह्या धूर्तसिंगाचे आनी कपटसिंगाचे आड.

राजा - कितें कागाळ आसा?

बुदवंत - ह्या दोगांनीय कट करून तुमकां सदांच न्हिदेचे गुंगेंत दवरले आनी खजिन्याची लूटमार केली. नागोवपाच्या धंद्यांक प्रोत्साहन दिलें. हांकांच लागून आतां आमच्या अजीबपुराक लोक नाडपूर म्हणून वळखतात.

प्रधान - ना... ना... म्हाराज, हो फट उलयना.

राजा - कोण फट उलयता आनी कोण खरें उलयता तें म्हाका बेस बरें खबर आसा. येदोळ तुमच्या दोगांयचें उलोवणें आयकलां हांवें.

कपट - म्हाराज.... म्हाराज.... चूक जाली आमची.

राजा - आतां चूक जाली म्हणपांत कांय अर्थ ना. तुमी दोगांनीय मेळून म्हजे आड जें कारस्थान रचलें आनी राज्याची दुर्दशा केली, ताची ख्यास्त तुमकां जावंकच जाय.

धुर्त आनी कपट - (दोगूय जाण राजाच्या पांयांर लोटांगण घालतात) क्षमा... म्हाराज क्षमा!

राजा - तुमच्या अपराधाक क्षमा ना. राज्याच्या रक्षणकर्त्यांनी भक्षण करपाचे धंदे करप म्हळ्यार अक्षम्य अपराध. शिपाय, (दोन शिपाय येतात) व्हरात तांकां आनी बंदखणीत घालात.

(शिपाय तांकां घेवन वतात).

बुदवंतसिंग, तुवें ह्या सोनाक म्हालांत धाडून आमचे न्हिदेचें वखद बदलायलें हे खातीर तूं खऱ्यानीच तोखणायेक पात्र आसा. आयच्यान तूं ह्या अजीबपुराचो प्रधान.

(बुदवंतसिंग मुजरो करता)

सोना, हाचेफुडें आमच्या राज्यांत केन्नाच खंयच्या वेपाऱ्याक त्रास जावचे नात हाची आमी स्वता जतनाय घेतले. तुमचे दोनय घोडे आमी आमचे घोडसाळे खातीर विकते घेतात.

(सोना आनी संतोबा मुजरो करतात).

(हांसता) आनीक अेक गजाल आसा. हाचे फुडें आमच्या अजीबपुराक कोणच नाडपूर म्हणचो ना हे विशीं म्हाका खात्री आसा.

सगलींजाणां – अजीबपूरचे म्हाराज चंद्रसेनाचो विजय जावं !...

(सगले मुजरो करतात)

सूत्रधार 'ठक ठक ठो' करीत स्टेजीर येतात. फाटलो सीन फ्रीज....

सुत्रधार – ठक ठक ठो बाबा, ठक ठक ठो....

ठक ठक ठो बाबा, ठक ठक ठो...

आयकात, आयकात लोकांनो

काणी अजीबपुराची

चंद्रसेन राजाची आनी

ताच्या कारभाराची

ठक ठक ठो बाबा, ठक ठक ठो...

(पड्डो ल्हव ल्हव बंद जावंक लागता)

(सोंपता)

***

# पावसा-पावसा, यो रे, यो...

## ह्या नाटकुल्यांतलीं संवंगां

१. वरुण
२. गडगडो
३. जोगूल
४. कोठयेकार
५. नारद
६. सेवक
७. वारो
८. कूप–१
९. कूप–२

# पावसा-पावसा, यो रे, यो

(पड्डो वयर सरता तेन्ना - वरुणालो म्हाल दिसता. मदीं आसनार वरुण बसला. म्हऱ्यांत गडगडो आनी जोगूलबाय ल्हानश्या आसनाचेर बसल्यांत. सगल्याक तरेतरेच्च्यो सत्र्यो, कापोती बी लांबयल्यात. गडगडो आंगान गुडगुडीत. जोगूलबायचीं वस्त्रां झगझगीत.

वरुण - गडगड्या, आयच्यान मिर्ग लागता. धरतरेचेर पावस घालूंक जाय.

गडगडो - हांव आनी जोगूल तयार आसात म्हाराज. तुमच्याच हुकमाची वाट पळयतात.

जोगूल - खरेंच! म्हाका तर केन्ना काय नाच करीन अशें जालां!

वरुण - तशें जाल्यार वेळ आनी कित्याक? (ताळी मारता) कोण आसा रे थंय? (भायल्यान एक सेवक धांवत येता.) आरे, कोठयेकाराक वचून सांग, कोठयेंतले पावसाचे पन्नास सिलींडर घेवन कुपांक धनरतरेचेर पावस घालूंक धाड म्हणून. (सेवक वता) गडगड्या, पावस पडचे पयलीं तूं आनी जोगूल तुमगेलें काम सुरू करात.

(तबल्याचो आवाज. त्या तालार जोगूल नाचूंक लागता. गडगडो तोंडांतल्यान घड्डम घुड्ड्म, घड्डम घुड्ड्म असो आवाज काडीत थंयचे थंयच घोलता. स्टेजीर काळोख. जोगुलाचेर स्पॉट. फाटल्यान विजेचो लखलखाट जाता तो दिश्टी पडटा. इतल्यांत कोठयेकार धांवत येता.

कोठयेकार - म्हाराज, घात जालो! घात जालो!

(नाच थांबता. सगलीं गप्प जावन कोठयेकाराक पळयतात. स्टेजीर उजवाड)

वरुण - कितें जालें? कसलो घात जालो? सांग बेगीन.

कोठयेकार - म्हाराज, कितें सांगूं? कोठयेंतले सगले पावसाचे सिलींडर कोणें तरी चोरून व्हेल्यात. एक लेगीत दवरूंक ना. कोठी सामकी Empty.

वरुण - कितें? चोरून व्हेले? कोणें? कशे? केन्ना? कित्याक?

कोठयेकार - चोरून व्हेल्यात, इतलेंच म्हाका खबर आसा म्हाराज. कोणें, कशे, केन्ना आणि कित्याक तें हांव नकळों.

वरुण – नकळो म्हणजे कितें?

कोठयेकार – ताचें कितें आसा म्हाराज, पोरूंचो पावस जातकीर बाकीचे सगले सिलींडर हांवें कोठयेंत भरून ती बंद केल्ली, ती बद्द आयज तुमी message धाडटकीर उकती केली. म्हणटकीर ते केन्ना चोरून व्हेले हें कांय म्हाका खबर ना. आनी व्हरतना हांवें पळोवंक नाशिल्ल्यान ते कोणें आनी कशे व्हेले हेंय म्हाका खबर ना.

वरुण – चूप! तें तुका खबर ना जाल्यार आतां जाणा जावचें पडटलें. कोठयेची चावी फकत तुजे कडेनच आसता; म्हणटकीर सिलींडर ना जाले जाल्यार ताची जापसालदारकी तुजेर; आनी तुका ते खातीर हांव बंदखणींत घालतलों.

कोठयेकार – पूण म्हाराज, म्हजी कांयच चूक ना. कोठयेची चावी म्हजे कडेन आसता खरी; पूण ताची Duplicate चावी –

वरुण – चूप! परतीं, परतीं इंग्लेज उतरां घालूं नाका. धरतरेर वचून त्यो चुट्टी पेटिल्ल्यो संवयो घेवन येता तूं. हाचेफुडें तुका हांव थंय धाडपाचों ना.

कोठयेकार – सॉरी म्हाराज!

वरुण – (तापता) कितें? परतें इंग्लेज?

(कोठयेकार वचून गडगड्या फाटल्यान लिपता)

गडगडो – (कोठयेकाराक लिपयत) म्हणटकीर म्हाराज, आतां कितें करप! सिलिंडर नासतना धरतरेचेर पावस कसो घालप?

वरुण – तेंच कळना म्हाका. पावस पडलो ना जाल्यार सगलो हाःहाःकार जातलो मरे थंय! कोठयेकार, ए कोठयेकार, (कोठयेकार गडगड्या फाटल्यान रावनच ओ ऽऽ म्हण्टा) असो मुखार यो. (तो भियेत, भियेत मुखार येता) सुर्याल्या पावसा कारखान्यांत वच आनी ५०० पावसा सिलींडर विकते घेवन यो.

कोठयेकार – पूण म्हाराज, सिलींडरांचो कारखानो बंद पडला.

वरुण – बंद पडला? केन्नाच्यान? कित्याक?

कोठयेकार – फाटलो पावस घालून जातकीर रोखडेच सगले कामदार strike र गेले. I mean संपार गेले. सूर्यम्हाराज तांकां उणो पगार दिता

म्हणून ते काम करूंक तयार नात खंय. रिकामे सिलींडर लेगीत ते भरून दिनात.

वरुण – कर्मभोगा! आतां कितें करप?

गडगडो – महाराज, कुबेर म्हाराजा कडेन घडये मेळत थोडे उसणे सिलींडर.

वरुण – आरे पिशा, कुबेरा कडेन पावसा सिलींडर कशे आसत? ताचे कडेन पैशांबगर दुसरें कांयच मेळपाचें ना.

जोगूल – म्हणटकीर आतां चोराक धरून ताचे कडले सिलींडर मेळयले बगर पावस घालूंक मेळपाचो ना तर!

कोठयेकार – पूण तेन्ना म्हणसर चोरान सगले सिलींडर रिकामे करून उडयले जाल्यार...?

वरुण – कर्मभोगा! सगलो पावस अेकदमच ओतयलो जाल्यार बुडटी येतली मरे धरतरेचेर.

गडगडो – शेः शेः ! भियेवपाची गरज ना. म्हजे – बगर आनी जोगला बगर ते सिलींडर उकते जावचेले नात.

वरुण – आनी तीं कुपां खंय गेलीं नाक कातरूंक?

कोठयेकार – म्हा... म्हाराज, म्हा... राज...

वरुण – कितें रे? सांग सडसडीत.

कोठयेकार – म्हाराज... कुपांय बी ना जाल्यांत. येदोळ हांवें तांका सोद, सोद सोदलें. पूण–

वरुण – कितें? कुपांय बी नात? म्हाका दिसता, तींच सिलींडर घेवन भायले भायर पळ्ळ्यांत.

जोगूल – म्हाकाय अशेंच दिसता. कुपांक म्हजी आनी गडगड्याची सदांच नसाय दिसता. पावस घालतना आमी तांचे वांगडा वचूंक लागलीं म्हणटकीर तीं आपलें काळें तोंड आनिकूय काळें करतात.

गडगडो – खरें गो तुजें.

कोठयेकार – तशें जाल्यार म्हाराज, आतां तांकां खंय सोदपाचें?

वरुण – तें सांगपाचें काम म्हजें न्हय. आमचो गुप्तहेर नारदमुनी सगलें जाणा. तो घडये कितेंय सांगूक शकत. म्हणटकीर ताकाच आपोवंक धाडल्यार बरो. (सेवकाक सांगता) चल रे, नारदमुनीक घेवन यो.

गडगडो – म्हाराज, पावसा सिलींडर मेळ्ळे नात ना जाल्यार पावस घालूंक मेळपाचो ना. म्हणटकीर... (रडकुरो जाता) म्हणटकीर म्हजें कितें जातलें? गडगड करपाचे सिर्वीसे वयले तुमी म्हाका काढून बी उडोवचे नात मू?

जोगूल – (हिमटी काडीत) आनी पावस पडलो ना जाल्यार हांवें नाच करपाची गरज ना म्हणून म्हाकाय बी काडून उडयनात मू तुमी? आनी – आनी – तशें जाल्यार म्हजें कितें जातलें? (रडूंक लागता)

वरुण – आगो, आगो ओगी राव. ओगी राव. पाड पडूं? (जोगूल रडतच आसा) पाड पडूं ह्या बायलांचें. धरतरेचेर दुष्काळ पडचेलो वेळ आयला ती चिंता हांकां नाच. आपलें कितें जातलें काय म्हण्ण हें हो ऽऽ हो ऽऽ करून रडटा.

गडगडो – (रडकुरोच) तशें पळोवंक गेल्यार म्हाकाय येदोळच्या रडूंक येत आसा. तुमी खेरेलेच आमकां सिर्विसे वयले काडून उडोवचे नात मूं?

वरुण – तुमचे असलीं रडकुरीं कामार दवरप म्हळ्यार त्रासांतच पडप. (तापता) उडयतां, आतांच काडून उडयतां तुमकां.

(गडगडोय व्हडल्या व्हडल्यान रडूंक लागता. दोगांयच्या रडपाक लागून वरुण बेजार जाता. कान धापून घेता.)

वरुण – ओगी रावात. पैलीं ओगी रावात. तुमकां नोकरे वयले काडिना; पूण तुमचें रडप थांबयात.

गडगडो, जोगूल – (रडप थांबोवन) खरेंच मू?

वरुण – हय, हय; पुण तुमी रडूंक फावना.

(गडगडो आनी जोगूल दुकां पुसत मान हालयतात. इतल्यांत नारदाक घेवन सेवक घेता.)

वरुण – येयात, नारदमुने येयात.

नारद – नारायण... नारायण! वरुणा, कितें जालां? असो चिंतेस्त कित्याक जाला तूं?

वरुण – कितें सांगचें मुने! आमचे कोठयेंतले पावसाचे सगले सिलींडर कोणें चोरून व्हेले न्हय!

कोठयेकार – आमचो ..... कुपांचेर –

वरुण – हांव उलयतना मदींच तुवें तोंड घालपाची गरज ना! तर आतां धरतरेचेर

पावस कसो घालप? नवे सिलींडर विकते घेतलो म्हळ्यार सुर्यालो कारखानोय बंद पडला खंय.

नारद – नारायण.... नारायण! मोठो कठीण प्रसंग!

वरुण – चोरा कडल्यान सिलींडर मेळ्ळेबगर पावसाचो एक थेंब लेगीत धरतरेचेर पडचेलो ना.

नारद – आरे वरुणा, पावस तयार करूंक चड त्रास पडनात. सुर्याली फॅक्टरी बंद पडल्या जाल्यार तूं दुसरी घाल.

वरुण – पूण मुने, इंद्र राजालो कायदो आसा न्हंय; एकल्याचें काम दुसऱ्यान करूंक जायना म्हणून? ते भायर पावस कसो तयार करप तें म्हाका खबर ना. हांव फक्त तयार सिलींडर घेवन कुपांचे, गडगड्याचे आनी जोगुलाचे सुवादीन करतां. पावस कसो पडटा तें लेगीत म्हाका खबर ना.

नारद – नारायण... नारायण! आरे वरुणा, कसलेंच काम कठीण न्हय. पयर हांव धरतरेचेर गेल्लों. लगींच एक शाळा आशिल्ली. थंय फाटल्या बांकार वचून बसलों. पळोवया म्हळें कितें चल्लां तें. तर थंय जुस्त पावसाचोच विशय चलिल्लो.

वरुण – खरेंच? म्हजें बी नांव घेतालीं भुरगीं?

नारद – चे, चे, चे! आरे बाबा, सध्या धरतरेचेर विज्ञानयुग चल्लां. ह्या युगांत आमचें नांव चडशे कोण घेनात. (वरुण बाबडें शें तोंड करता). हां. तर मास्तरान भुरग्यांक विचाल्लें –

कोठयेकार – मुलांन्नो, पाऊस कसा पडतो ऽऽऽ?

नारद – कोण रे तो मर्दी उलयलो?

कोठयेकार – हांव तो कोठयेकार.

नारद – असो मुखार यो. हांगा बांक ना. ना जाल्यार तुका बांकारच उबो करचेलों. दुसरे फावटीं विचाल्ले बगर मर्दींच उलोवं नाका. आनी त्या मास्तरान कितें म्हळें हें तुका कशें कळ्ळें रे?

वरुण – हो मर्दी, मर्दी घरतरेर वचून येता न्हय, तेन्ना थंयचीं दोन उतरां शिकून येता; आनी हांगा नेट दाखयता, हाका हांवें कितले फावटीं सांगलें, चड नेट दाखोवं नाका म्हणून. तरीकय हो आजून सुदारूंक ना. चड केल्यार हांव हाका नोकरे वयल्यान काडूनच उडयतलों.

(जोगूल आनी गडगडो हो ऽऽ हो ऽऽ करून रडूंक लागतात.)

वरुण – तुमकां न्हय, तुमकां न्हय. हाका, हाका!

(जोगूल आनी गडगडो गप्प! कोठयेकार हो, हो करून रडूंक लागता.)

वरुण – शी शी शी! तुजेंय सुरू जालें? गप्प, गप्प, कोणाकूच काडना सिर्विसे वयले.

(कोठयेकार दोळे पुसता.)

नारद – सांग रे, तुका कशें कळ्ळें मास्तरान कितें म्हळें तें?

कोठयेकार – जनरली मास्तर अशें म्हणटात....

वरुण – हाका इंग्लेज भरशिले बगर उलोवंकच येना. कोठयेकार जीव चाबता.)

नारद – कितें म्हणटात रे?

कोठयेकार – मुलान्नो, हें कसें पडतें? तें कसें घडतें? वगैरे वगैरे –

नारद – जाणा मरे, हांव गेल्लों ती गोंयांतली कोंकणी शाळा आशिल्ली. म्हणटकीर मास्तर कोंकणीच उलयतालो – 'मुलान्नो हें कसें पडतें?' बी म्हणी नासलो. कळ्ळें?

कोठयेकार – हय मास्तर – (जीब चाबता) – म्हाराज!

नारद – तर मास्तरान मुरग्यांक विचाल्लें – 'भुरग्यांनो, पावस कसो पडटा तें तुमी जाणात?

वरुण – मागीर भुरग्यांनी कितें सांगलें?

नारद – तीं ल्हान, ल्हान भुरगीं म्हणूंक लागलीं – मास्तर, आमी "पावसा, पावसा, यो रे यो" म्हळें म्हणटकीर पावस पडटा.

वरुण – मोठीं हुशार हां पोरां. तांका सगलें खबर आसा पळय. म्हाका लेगीत हें खबर नासलें.

नारद – नारायण... नारायण! आरे वरुणा, कितें रे पापया हें? तुकाय ते शाळेंत धाडूंक जाय. आरे, धरतरे वयलीं इल्लींशीं भुरगीं लेगीत सगलें जाणात; पूण तूं नकळो मरे! तुजीय चूक ना म्हणा. तूं शाळेंत खंय गेला? आतां धरतरे वयलीं सुपुल्लीं भुरगीं लेगीत लुटूलुटू करून शाळेंत वतात.

कोठयेकार – आमी हांगाच एक शाळा उगडल्यार कशी?

वरुण – चूप! मदीं, मदीं उलोवं नाका. तुका कोठीच सारकी उगडूंक आयल्यार पुरो. शाळा उगडया खंय!

नारद - (कोठयेकाराक) आरे, येदोळच्यान तूं कथेंत आडकथा हाडटा. आतां जर तुवें परत मदींच तोंड घालें जाल्यार हांव तुका शाप दितलों. नारायण.... नारायण...!

कोठयेकार - Sorry (जीब चाबता) चूक जाली.

नारद - तर कितें सांगतालों? हय, तर भुरग्यांली जाप आयकून मास्तर हांसलो आनी ताणें म्हळें कीं पावस असो, असो पडटा.

वरुण - अशें? पावस असो, असो पडटा तर!

नारद - हय. असो, असो, असो पडटा.

कोठयेकार - म्हाराज, असो, असो म्हळ्यार?

नारद - असो, असो म्हळ्यार असो, असो! तसो, तसो न्हंय.
(गडगडो आनी जोगूल हांसूंक लागतात.)

नारद - तुमकां हांसूंक कितें जालें?

जोगूल - महाराज, रागार जावं नाकात. पूण तुमी धरतरेचेर गेल्ले त्या दिसा हांवय बेठेंच नाचत, नाचत धरतरेचेर गेल्लें. तेन्ना हांवें पळयलें कीं तुमी फाटल्या बांकार बसून घोरेताले. देखूनच मास्तरान कितें सांगलें तें तुमकां कळ्ळें ना.
(नारद काचाबूल जाता)

नारद - चड शाणेपणा उलोवं नाका, हांव तिनय त्रिकाळ जागोच आसतां. नारायण... नारायण!

वरुण - जोगला, जीब चड हुळहुळटा गो तुजी? नारदमुनेन सांगलां तें खरेंच आसतलें. पावस असो, असोच पडटा. पूण तें आसूं. पावस असो पडूं, ना जाल्यार तसो पडूं; पूण एकदांचो पडूं.

गडगडो - पूण कुपां आनी सिलींडर नासतना पावस पडटलो तरी कसो?

जोगूल - खरेंच, येदोळच्यान पळयतां, मूळ विशयाक धरून कोणच उलयनात. खरें म्हळ्यार नारदमुनीक हांगा आपयिल्लें तें चोराक सोदून काडूंक; पूण सगलो वेळ दुसऱ्योच खबरी चल्ल्यात.

वरुण - जोगला, केन्ना खंयच्या विशयाचेर उलोवचें तें हांव थारायतलों, तूं कित्याक मदींच पचपचता? गडगडो - (ल्हवच) जोगला, पापणी आमी तोंड बंद दवल्ल्यार बरें, ना जाल्यार आमची सिर्वीस बी वचत फट्ट करून.

वरुण – नारदमुनी, आमी तुमकां हांगा आपयिल्लें तें तुमी चोराक पळयलां बी आसत काय म्हणून विचारूक. तुमी सर्वज्ञानी, म्हणटकीर तुमी नकळो अशें कांयच ना.

जोगूल – फकत पावस कसो पडटा तितलें मात नकळो –
(गडगडो तिचें तोंड दामून धरता. नारद जोगला कडेन लक्ष दिना.)

नारद – वरुणा, ताचें कितें आसा, हालीं स्वर्गांतल्या सगल्याच देवांनीं आपलीं सगलीं कामां म्हज्या आंगार उडयल्यांत. एक फावट विष्णू देवालें सुदर्शन चक्र घुंवना जालें. कशेंच केल्ल्यार घुंवना. ताणें म्हाका आपोवंक धाडलो. हांवें मागीर धरतरेर वचून गणपती फाटल्यान चवथीक चक्रां घुंवडायतात तांका लायतात तसल्यो बॅटरी हाडल्यो आनी वायरीन सुदर्शन चक्राक connection दिलें. म्हणटा खिणाक चक्र start !

कोठयेकार – म्हाराज, नारदमुनीय मर्दी, मर्दी इंग्लेज –

वरुण – गप्प! नारदमुनी खंय आनी तूं खंय?

नारद – एक फावट गणपतीलो हुंदीर ना जालो. हांगा सोदलो थंय सोदलो मेळच ना. गणपती खरशेलो. ताचे गण खरशेले. पूण हुंदीर ना.

वरुण – मागीर?

नारद – मागीर आनी कितें? नारायण.... नारायण! हुंदराक जाल्ली मोदक खावपाची संवय. संकश्टी, विनायकी आयली कीं हो ल्हवच धरतरेर वचून बाबूभटाले देवाकुडींत लिपून रावी आनी मोदकांचो निवेद्य देवा मुखार दवल्लो कीं तातुंतले आपल्याक जाय तितले खायी.

गडगडो – हें तुमकां कशें कळ्ळें म्हाराज? काय तुमीय बी...?
(जोगूल गडगड्याचें तोंड दामून धरता.)

वरुण – (दोळे मोठे करून तांकां पळयता) मागीर कितें जालें मुने?

नारद – बाबूभटाले बायलेन हुंदरांक लागून त्याच दिसा एक बुकलो हाडिल्लो. ताणें जुस्त ह्या आमच्या हुंदराक पळयलो आनी ताका धरूंक धांवलो. हुंदीर धांवता फुडें; फाटल्यान धांवता बुकलो. बरें, ह्या हुंदराक सारकें धांवंक तरी येता?

कोठयेकार – कशें येतलें? ताका बाबड्याक हांगा धांवपाची प्रॅक्टीस लेगीत मेळना. मातसो फास्ट चल्लो जाल्यार गणपतीबाप्पा रोकडोच ताका स्पीड उणी कर

म्हणटा.

वरुण – (रागान) उलयलो तूं? फुडें कितें जालें नारदमुनी?

नारद – नशिबान हुंदराक एक बीळ दिसलें. तातूंत तो लिपून बसलो. हांवें वचून बुकल्याक धांवडायलो तेन्ना हुंदीर थरथरत भायर सल्लो. ताका मागीर हांवें गुणपतीचे सुवादीन केलो. नारायण... नारायण...!

वरुण – खरेंच म्हाराज, तुमी आसात म्हणून स्वर्गांतलीं कामा बरीं सडसडीत जातात.

नारद – फाटले खेपे कितें जालें नकळो तुमी –

कोठयेकार – नारदमुनी, तें सगलें मागीर सांगल्यार बरें जातलें आशिल्लें. पयलीं आमचे सिलींडर सोदून दिल्यार उपकार जायत. न्हय रे गडगड्या?

गडगडो – येदोळच्यान आमीय तेंच म्हणटात. न्हय गो जोगला?

जोगूल – तर कितें? पूण आमचें आयकता कोण? धरतरेर पावस पडलो ना म्हणून इंद्रदेवाक कळ्ळें जाल्यार मागीर –

वरुण – खरेंच नारदमुनी, तुमचे व्हड उपकार जायत आमचे सिलींडर सोदून दिल्यार.

नारद – अं?.... बरें आसा. तर सांग पळोवया, कोठी बन्द कोणें केल्ली?

वरुण – कोठयेकारान.

नारद – सारकी बंद केल्ली?

वरुण – आरे, तुवें सारकी बंद केल्ली?

कोठयेकार – सारकी म्हणजे?

नारद – सारकी म्हणजे सारकी ऽऽ (हात पातळावन सांगता)

वरुण – कळ्ळें मरे? सारकी म्हणजे सारकी ऽऽ (नारदा भशेनच हात पातळायता)

कोठयेकार – कळ्ळें!

वरुण – कितें कळ्ळें?

कोठयेकार – सारकी म्हणजे सारकी ऽऽ म्हणण कळ्ळें, (आपुणय तसोच हात पातळायता)

नारद – म्हणटकीर तुवें ती सारकी ऽऽ बंद केल्ली मरे?

कोठयेकार – ना.

वरुण, नारद – कितें ऽऽ?

कोठयेकार - हांवें ती सारकी ऽऽ बंद करूं नासली (हात पातळावन दाखयता) तर अशी बंद केल्ली. (चावी करपाचो हावभाव करता)

नारद - जावं; पूण बंद केल्ली मरे?

कोठयेकार - हय. पूण सारकी ऽऽऽ न्हय.

नारद - कळ्ळें, कळ्ळें !

वरुण - तुवें जर कोठयेक चावी केल्ली जाल्यार सिलींडर ना कशे जाले?

कोठयेकार - चोराक खबर!

नारद - चावी कोणा कडेन आसता?

कोठयेकार - एक म्हजे कडेन आसा आनी डुप्लिकेट वरुण म्हाराजा कडेन आसा.

नारद - दोनय चावयो जाग्यार आसात मू?

कोठयेकार - ही पळयात म्हजी चावी.

वरुण - सेवका, म्हज्या उश्यापोंदची चावी घेवन यो पळोवया. (सेवक वता)

नारद - वरुणा, आरे कोठयेची चावी अशी उश्यापोंदा दवरची न्हय. (सेवक परत येता)

सेवक - म्हाराज, उश्यापोंदा चावी ना.

वरुण - कितें? सारकें पळयलें?

कोठयेकार - (हात पातळावन) सारकें ऽऽऽ पळयलें?

सेवक - हय म्हाराज, सारकें पळयलें. चावी ना.

वरुण - हांवच पळोवन येतां. (वता)

कोठयेकार - हांव सांगतां, चोरांनी ती चावी व्हरून कोठी उकती केली.

गडगडो - हय, तशेंच आसतलें. आनी हे चोर दुसरे तिसरे कोणच न्हय. कुपांच तीं.

जोगूल - हय आं, हय. तांकां खबर आसा वरुण म्हाराज उश्यापोंदा चावी दवरता म्हणून.
(वरुण येता)

वरुण - नारदमुने, खरेंच चावी ना.

नारद - कोठयेची चावी अशी कोणाकय मेळत थंय दवरप म्हळ्यार चूक. नारायण... नारायण! आसूं तें. हांकां सगल्यांक कुपांचो दुबाव येता.

वरुण - म्हाकाय तशेंच दिसता. आतां तांकां खंयच्यान धरून हाडप? (कपलार हात धरून आसनार बसता)

नारद - असो धीर सोडूं नाका. सेवका, हांगा यो. बेगीन वचून वाऱ्याक रकाद दी. ताका सांग, वरुणालीं काळीं कुपां पावसा सिलींडर घेवन पळून गेल्यांत. तांकां सगल्यांक आसा थंयच्यान धरून हांगा हाड.
(सेवक वता)

नारद - वरुणा, कांयच भियेवं नाका. आसा थंयच्यान त्या कुपांक वारो घेवन येतलो.

जोगूल - खरेंच गे बाये. वाऱ्यामुखार कुपांचें कांय एक चलपाचें ना.

कोठयेकार - येवं मात तीं. कोठी उकती करून सिलींडर चोरतात म्हळ्यार कितें? Non-sense!

वरुण - Shut up! चड जालें तुजें.

कोठयेकार - पूण म्हाराज, तुमीय बी इंग्लेज -

वरुण - (काचाबूल) आं?.... बरें, बरें. तुका लागना तें.

गडगडो - म्हाराज तुमी ताचे कडेन चड लक्ष दिवं नाकात. ताका मेळटा तातूंत तोंड घालूंक जाय.

कोठयेकार - गडगड्या, तू ओगी बस आं. तुजीं शाणेपणां नाकात म्हाका.

जोगूल - धरतरेचेर दुश्काळ पडचेलो वेळ आयला आनी तुमी झगडटात कितें हांगा?
(काळीं वस्त्रां घाल्लीं दोन भुरगीं घेवन वारो येता)

वारो - वरुण म्हाराज, हीं घेयात तुमचीं कुपां. थोडीं भायर उबीं केल्यांत शिपायां म्हऱ्यांत. हीं तांचीं मुखेल खंय. हांणी चोरून व्हेल्ले सगले सिलींडरय भायर दवल्ल्यात.

वरुण - चोरांनो, खंय गेल्लीं पळून सिलींडर घेवन. आं?
(कुपां मानो सकयल घालतात.)

गडगडो - बरीं गेल्लीं सिलींडर घेवन. तुमचो रंगय काळो आनी करण्योय काळ्यो.

जोगूल - हांव जाणांच आशिल्लें हीं केन्नाय पूण असल्यो भानगडी करतलीं म्हणून. आमचेर जळटात हीं. दुस्वाशी खंयचे कडलीं!

कोठयेकार - परतून केन्नाच हांकां पातेवंक नजो.

नारद - आरे, आरे सगलेच जाण अशे किंवाटूं नाकात. (मोवसाणेन) कुपांनो, तुमी सिलींडर कित्याक चोरून व्हेले?

१ कूप - म्हाराज, कितें सांगू? हो गडगडो, हें जोगूल सद्दां आमकां नेट दाखयतात. तुमचे परस आमी चड गरजेचीं म्हणून आमकां हिणसायतात. देखून आमी थारायलें, तांकां घेनासतना धरतरेचेर पावस घालून दाखोवचो.

२ कूप - वरुण म्हाराजाल्या उश्यापोंदची चावी घेवन आमी कोठी उकती केली, सिलींडर घेतले आनी भायर सर्ली; पूण पावस घालूंक मेळ्ळो ना.

नारद - कित्याक?

१ कूप - सिलींडर उकतेच जायना जाले.

जोगूल - कशे जातले? ते उकते जातले जाल्यार पयलीं हांवें नाच करचो पडटा. आनी गडगड्यान 'गडगडो' मारचो पडटा. तुमचे सारकेल्यांचें काम तर तें? न्हय रे गडगड्या?

गडगडो - हय तर गो! हांणी फकत सिलींडर माथ्यार धरून हाडपाचें. तें लगीत काम हीं सारकें करनात.

(कुपां रडूंक लागतात)

वरुण - जोगला, गडगड्या, चड उलोवं नाकात. तुमचे परस तीं चड गरजेचीं. एक वेळ तूं आनी जोगूल नासलीं जाल्यार लेगीत हांव पावस घालून दाखयन. पूण ह्या कुपां बगर पावस पडपाचो ना. सांगात पळोवया, कुपां नासलीं जाल्यार तुमच्यांनी धरतरेर पावस घालूंक जायत?

(गडगडो आनी जोगूल मान सकयल घालतात).

वरुण - तुमच्या पाड्या वागपाक लागून कुपांक चोरी करची शी दिसली; म्हणटकीर आतां तुमकांच ख्यास्त दिल्यार बरी शी दिसता.

(गडगडो आनी जोगूल रडूंक लागतात.)

नारद - जाणा मरे गडगड्या, हांगा जण एकलो गरजेचो; जण एकल्याचें काम म्हत्त्वाचें; हें सगल्यांनी समजून एकमेकांच्या आदारान काम करूंक जाय. म्हणटकीर ह्यो असल्यो भानगडी उप्रासनात. हाचे फुडें तुमी सगलीं माये-मोगान वागात. कळ्ळें?

(कुपां, जोगूल आनी गडगडो मान हालयतात. भितल्ल्यान भुरगीं पद म्हणटात तें आयकूंक येता.)

पावसा, पावसा, यो रे यो

यो रे यो
शेतांत म्हज्या खेळूंक यो
शेतांत म्हज्या खेळूंक यो
पावसा, पावसा, यो रे यो...
यो रे यो...

वरुण - (खोशेन) आरे आयकात. आयकात, धरतरे वयलीं भुरगीं पदां म्हणून पावसाक आपयतात.

नारद - तर आतां कळाव आनी कित्याक? चलात, चलात बेगीन शिंवरात धरतरेर पावस.

वरुण - गडगड्या, जोगला, करात सुरू तुमचें काम. कुपांनो, चलात, चलात, व्हरात सिलींडर. घालात पावस धरतरे. खेळूं दी भुरग्यांक पावसांत!
(कुपां वतात. तबल्या तालार जोगूल नाचूंक लागता; नाचत वचूंक लागता. गडगडो 'धडम धुडूम' करीत ताचे फाटल्यान वता. स्टेजीर काळोख जाता. फाटल्यान विजेचो लखलखाट दिसता. भितल्ल्यान भुरग्यांलें पद चालूच आसा.)
पावसा, पावसा, यो रे यो...
यो रे यो...
(पड्डो पडटा)

(सोंपता)

***

